# व्हांवती न्हंय काळाची



प्रकाश दा. पाडगांवकार

'सृजन - विश्व' प्रकाशन

२००३

# व्हांवती न्हंय काळाची

कविता-झेलो

# VHAUNTI NHAI KALLACHI

**A collection of poems**

पयली उजवाडावणी
२००३



"सृजन-विश्व" प्रकाशन
"मातृ कलश" M-16, हावसिंग बोर्ड कॉलोनी
आल्त पर्वरी
बार्देश - गोंय ० ४०३ ५२१

मूखचित्रः
श्रीधर कामत बांबोळकार

अक्षर जुळोवणीः
एकांग इलेक्ट्रोनिक्स
तिवरें, माशेल, गोंय

छापपीः
न्यु एज प्रिंटर्स,
वेर्णा इंडस्ट्रियल इस्टेट,
वेर्णा, गोंय

मोलः रु १२०/-

म्हजी भयण आनी भावोजी
सर्गेस्त यशश्री (मोहिनी) आनी
सावळाराम रेडकार
हांच्या चिरंतन यादीक

# मांडावळ

# म्हजे कवितेचो प्रवास

'म्हजे कवितेचो प्रवास' ह्या विशयाचेर हांवें उलोवप वा बरोवप म्हळ्यार म्हजे भितर आशिल्ल्या ल्हान भुरग्याक हांवें जागोवप, जो आपल्या भुरगेपणांत ल्हानसान कामां करून, वर्तमानपत्रां विकून, दोन पयशे जोडून घराक आदार करतालो. ह्या विशयाक हात घालप म्हळयार, पणजे मावजो फोटो स्टुडियोंत काम करून रातचें (नायट्-स्कुलांत) शिकप करपी तरणाट्या भुरग्याक उठोवप; मुखार, आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर प्युनाची मागीर क्लार्काची नोकरी करतना सांजचें महाविद्यालयांत शिकप करपी तरणाट्याचेर उलोवप. म्हजे कवितेच्या प्रवासाचेर उलोवप म्हळयार जानेवारी १९६७ त ओपिनियल पोल धरून मुखार जाल्ली कोंकणी चळवळ, जी हांव पुरायपणान जियेलां, तिचेर उलोवप, तिची याद जागोवप. थोडे भितर सांगचें जाल्यार, म्हजे जिणेचे उत्क्रांतिचेर उलोवप.

डिसेंबर १९६१ त गोंय मुक्त जातकच रोकडोच कांय म्हयन्यांनी हांव पणजे मावजो फोटो स्टुडियोंत साद्या कामाक लागिल्लो. तेन्ना म्हजें शिकप आसलें मराठी तिसरी यत्ता नापास आनी पुर्तुगेज दुसरी यत्ता नापास. १९६३ त गोंयचे व्हड द्रष्टे मनीस ॲड.पांडुरंगबाब मुळगांवकार हाणीं भारत सेवक समाज हे संस्थेच्या आसऱ्या खाला पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांत, काम करपी भुरग्यांखातीर, तांकां वाचूंक , बरोवंक येवचें म्हूण रातचो पांचवी यत्तेचो वर्ग सुरू केल्लो. हांतूंत हांव पांचवी आनी सवी अशी दोन वर्सां शिकलो.भौ. मुळगांवकार आतऱ्या-पयऱ्यान सगळया शिकपी भुरग्यांची वासपूस करूंक मुजरत येताले. हांगा आमकां शिकोवपाक दोग तरनाटे शिक्षक येताले. हातुंतलो एकलो आसलो भौ. अरविंदबाब भाटीकार. उपरांत सातवी ते एस्.एस्.सी. मेरेन म्हजें शिकप इन्स्टिट्यूट ऑफ इन्सट्रक्शन्स ह्या नायट स्कुलांत जालें. हांव णववी पास जाल्या उपरांत १९६८ त आकाशवणी पणजी केंद्राचेर

कामाक लागिल्लो. हाचे आदीं १९६६ त ओपिनियन पोलाक फुडो करपाक गोंयात नवे जागरूतायेचें, जोरगतीचें वारें व्हावूंक लागिल्लें. गोंयचे अस्मितायेचो भार तेन्ना कितल्याशाच तेजवंत कोंकणी तरनाट्यांचेर येवन " ब्रह्मास्त्राच्या" रूपान पर्गट जातालो. पणजेचो मावजो फोटो स्टुडियो तेन्ना कोंकणी चळवळीचें एक केंद्र जाल्लें, अशें म्हळयार चूक जांवची ना. कारण हांगा दिसपट्टे ओपिनियन पोलाचो वावर थारावपाक कोंकणीचे लेखक, कवि, गावपी जमताले आनी भासाभास करताले. ह्या सगळयांक हांवे तेन्ना लागींच्यान पळयल्यांत.

आमच्या घरांत साहित्याची परंपरा ना. पुणून हांव ल्हान आसतना घरांत बापूय नेमान 'चांदोबा' हाडटालो. तातुंतल्यो काणयो म्हाका भोव आवडटाल्यो. म्हजो समाज कांय नाटकां घडोवन हाडटालो तीं पणजेच्या म्हालक्ष्मी देवळांत जातालीं. ह्या नाटकांनी म्हजो बापूय ल्हान ल्हान भुमिका करतालो. तेन्ना घरांत नाटकाच्यो गजाली चलताल्यो. म्हज्या बापायन म्हाका दिसता, १९५६त पुंडलीक दांडे हांच्या 'ताची करामत' नाटकाची एक प्रत हाडिल्ली. ह्या नाटकांतलीं वर्णनां वाचून हांव भावा वांगडा जमनीर शेंदरी सोडून तातुंतले संवाद म्हणटालो. आमचें पणजेंतलें घर किरिस्तांवांच्या वाड्यार आसा. म्हज्या भुरगेपणांत शेजारच्या किरिस्तांवांच्या घरांनी दीसरात ग्रामोफोन आनी रेडियो घणघणत आसतालो. दिसपट्टीं कांतारां कानार पडटालीं. ह्या कांतरांतलीं उतरां मागीर म्हज्या मना लागीं खेळूंक लागतालीं. वाड्यार केन्ना केन्ना तियात्र जाताले. इंत्रुजाचे मेळ नाचताले. तांचीं कांतारां, तांचे काव्यमय संवाद म्हाका विचार करूंक लायताले. चवथीच्या दिसांनी म्हज्या समाजांतले लोक एकामेकांगेर वचून भजनां, आरत्यो म्हणटाले. हातुंतल्या अभंगाचो अर्थ समजून घेवपाचो हांव यत्न करतालों. ह्यो सगळयो घडणुको म्हजे काव्य प्रक्रियेचीं मुळस्थानां आनी प्रेरणास्थानां.

भुरगेपणांत सावन म्हाका प्रतिष्ठित आनी मानेस्त मनशांचो सांगात आनी सहवास मेळत रावला. कवीक कविता करपाचे काव्यगूण आसलेच म्हूण जायना. ह्या गुणांची बरी वाड जावपाक आनी सातत्य उरपाक तशें वातावरण आनी प्रोत्साहन मेळप सामकें गरजेचें आसता. कोंकणी चळवळीची वळख जातकच म्हजो कोंकणी भाशा मंडळा लागीं लागींचो संबंध आयलो. कोंकणी भाशा मंडळ चळवळीची कार्यशाळाच कशी. ते मुस्तींत भाशा मंडळ म्हयन्या कणकणीं वेलंगां, मडगांव, पिलार बी वेगळया वेगळया जाग्यांनी शिबिरां घडोवन हाडटालें. हें एक एक शिबीर म्हळयार समाज प्रबोधनाचें एक एक सम्मेलन कशें आसतालें. हातूंत सगळया जातीधर्माचे कोंकणी

भाशीक एकठांय जाताले आनी एकठांय बसून भासाभास करताले. एके पंगतींत बसून जेवताले. ह्या शिबिरांनी मार्गदर्शन करपाक ॲड्. पांडुरंगबाब मुळगांवकार, बाकीबाब बोरकार, रवीन्द्र केळेकार, पुरुषोत्तमबाब काकोडकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय, मनोहरराय सरदेसाय, शंकर भांडारी, उदय भेंब्रे, पाद्री लात्कांसियु आल्मैद, पाद्री आ. पेरेर, पाद्री मोरेन द सौज, आंतोन पियेदाद मोरायश बी मानेस्त येताले. ह्या सगळ्यांचो म्हजेर बरोच प्रभाव पडिल्लो. तेन्ना त्या शिबिरांनी वांटो घेवंक म्हजे सारके तरणाटे, लेखक, कवी, पुंडलीक नायक, एन्. शिवदास, रमेश वेळुस्कार, दिगंबर सिंगबाळ, माधव बोरकार, गजानन जोग, तुकाराम शेट बी येताले. सामाजीक आनी इतिहासीक नदरेन पळोवंक गेल्यार कोंकणी भाशा मंडळाचो हो एके तरेचो समाज प्रबोधनाचो वावरूच आशिल्लो. म्हज्या कालखंडांतले कवी/लेखक कोंकणी भाशा मंडळ ह्या विश्वविद्यालयांतल्यान तयार जावन भायर सरिल्ले बरोवपी, अशें म्हळयार अतिताय जावची ना.

आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर हांव कामाक आसलों तेन्ना बाकीबाब बोरकार, पुंडलीक दांडे आनी विष्णूबाब नायक हांचे लागीं म्हजो लागींचो संबंध आयलो. बाकीबाब बोरकार येदे व्हड कवी आसुनूय म्हजे सारक्या सामान्य मनशाक आपुलकायेन वागयताले. अशें फकत व्हड कलाकारूच करुंक शकतात. बाकीबाबांक नवी कविता 'येताली' तेन्ना ती दुसऱ्यांक वाचून वा म्हणून दाखयले बगर तांकां सूख लागनाशिल्लें. जायते खेपे तांगेली नवी कविता आयकुपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळां. बाकीबाबांक हांव म्हज्योय कविता वाचूंक दितालों वा तांकां वाचून दाखयतालों. त्यो आयकून ते सुचोवणी करताले. आकाशवाणीचे सेवेंतल्यान निवृत्त जातकच ते बोरये आपल्या मूळ घरा रावपाक गेले. मागीर थंयच्यान पर्वरी येवन रावले. ते बोरये रावताले तेन्ना हांव तांगेर पंदरा दिसांनी, म्हयन्यान बी वतालोंच. तसोच पंदरा दिसांनी, म्हयन्यान बी हांव रवीन्द्रबाब केळेकारांगेरय वतालों.

कोंकणी चळवळीचे भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार पितामह आनी व्हड विचारवंत. रवीन्द्रबाबान आपली तरनाटी पिराय काकासायब कालेलकार, विनोबाजी सारकिल्ल्या युग पुरूषांच्या सहवासान सारल्या. तांच्या व्यक्तित्वांतल्यान स्वतंत्र विचारसरणेची बियां फाफुडटात, रूजूंक लागतात आनी वैचारीक बरपावळींल्यान रुपकाराक येतात. तांचे जिणे विशींचें तत्वगिन्यान समजून घेवपाक, ताणीं केल्लें आद्य शंकराचार्याल्या 'भज गोविन्दम'' स्तोत्रावेलें भाष्य वाचचें. तांच्या ह्या सुपुल्ल्या ग्रंथान म्हाका, सुरवेच्या काळांत मंत्रमुग्ध केल्लो.

बाकीबाबांगेर तशेंच रवीन्द्रबाबांगेर वचून तांचे लागीं गजाली करुन प्रस्न विचारून हांव तांकां उलोवंक लायतालों आनी ते उलोवंक लागतकच साबार विशयांवेले आपले अणभव आनी गिन्यानाचें भांडार उक्तें करताले. तें आयकून हांव म्हज्या गिन्यानांत भर घालतालों.मुळांतूच सुंदर आनी परिपूर्ण अशे हे मनीस. म्हणुनूच ते म्हजे सारकेल्या सामान्याक बरी वागणूक दिताले. हांचो म्हजे कवितेचे प्रक्रियेचेर प्रभाव आसा.

हांव (इविनिंग) धेंपे कॉलेजींत शिकतालों तेन्ना अभ्यास करपाक पोस्ट ग्रॅजुएट सॅन्टरचे लायब्ररींत वतालों. थंय म्हजी वळख प्रा. डॉ. एस्. एस्. कुलकर्णी हांचे लागीं जाली. तांचे वळखी वरवीं म्हाका महायोगी श्री. अरविंद हांच्या दिव्य साहित्याची वळख जावंक पावली. डॉ. कुलकर्णी कडल्यान इंग्लीश कवितेची वळख जाली. हेर इंग्लीश साहित्याचीय रसग्रहणात्मक चर्चा आयकुपाची संद मेळ्ळी. तांच्या सहवासाक लागून म्हजें अणभवविश्व गिरेस्त जावंक पावलें आनीं म्हजे काव्य जिणेक दिका मेळत रावली.

म्हज्या हातांतल्यान सपसप कविता बरोवन जायनात. कविता सुचूंक लागल्यार त्यो म्हाका एक्कासारक्यो सुचत रावतात. नाजाल्यार स म्हयने एक वर्स म्हजे कडल्यान एकूय कविता बरोवन जायना. हाचो म्हजे कवितेचेर बरोच परिणाम जाला अशें म्हाका दिसता. आतां मेरेन म्हजे पांच कवितां झेले उजवाडाक आयल्यात ते अशे : 'उजवाडाचीं पावलां' (१९७६), 'वास्कोयन' (१९७७), 'हांव मनीस अश्वत्थामो' (१९८५), 'कविता काळ रेल्वेच्यो मन हारशांच्यो पावसा पाणयाच्यो' (१९९३) आनी 'सर्ग घडपाक धर्तरेचो' (१९९४). हे म्हजे कवितां झेले वाचतल्यांक प्रस्न पडूं येता, हे सगळे वेगळया वेगळया कविंनी बरयल्यात काय कितें? 'उजवाडाचीं पावलां' संग्रहांत दिसता तो कवी 'वास्कोयनांत'त दिसना. 'हांव मनीस अश्वत्थामो' ह्या संग्रहांत 'वास्कोयनां'तलो कवी दिसना. 'सर्ग घडपाक धर्तरेचो' ह्या संग्रहांत 'कविताः काळ रेल्वेच्यो मन हारशांच्यो पावसा पाणयाच्यो' हातुंतलो कवी दिसना, अशें म्हाका दिसता.

जानेवारी, १९६८त कोंकणी भाशा मंडळान पणजे एक कवी सम्मेलन घडोवन हाडिल्लें. तांतूंत हांवें म्हजी पयली कविता वाचिल्ली. तेन्ना सावन म्हजे कवितेचो प्रवास सुरु आसा. ह्या सगळया कविता संग्रहां वरवीं कवी प्रकाश पाडगांवकार कसो घडत रावला, ताचे विचार कवितां वरवीं कशें बदलत रावल्यात, मनीसजिणे कडेन तो कसले नदरेंतल्यान पळयता हें दिसून येता.

म्हज्या काव्य संवसाराचेर हांव फाटल्यान नदर भोंवडावन पळयतां तेन्ना तातूंत म्हाका म्हज्या मनाचे आनी म्हजी जीण घडणेचें बिंब दिसपाक लागता. 'उजवाडाचीं पावलां' हातुंतली पयलीच कविताः

***उजवाडाचें पावल म्हजें काळखा सोपण चडटलें***
***येवं तुफान, जावं मोड सहजकायेन परतितलें***

अशीं उतरां काडून आशावादी नदरेन जिणे कडेन पळोवन मुखार येवपाचो निश्चेव मांडटा.

म्हजो दुसरो संग्रह 'वास्कोयन'. नोकरे निमतान हांव वास्को मार्च १९७४ त पावलों, तेन्ना वास्कोच्या पयल्याच दर्शनान म्हज्या आंगार अजापाचो आनी हुस्क्याचो कांटो फुलयलो. पयल्याच दिसा हांव वास्को पाविल्लों तेन्ना हांव शेजारच्या प्रदेशांत पावलां काय कितें अशें म्हाका दिशिल्लें. गोंयात आसून गोंयांत ना अशी म्हज्या मनाची अवस्था जाल्ली. वास्को शाराचो, ताच्या साबार आंगांचेर हांव चिकित्सक नदरेन विचार करपाक लागलों तेन्ना ह्या विचारांची एक एक कविता घडून पांसश्ट कवितांचो 'वास्कोयन' हो कवितां झेलो तयार जालो. १९७६त हांवें वास्कोयनांतल्यो कविता बरयल्ल्यो तेन्ना वास्को म्हाका गोंयचें प्रतिनिधीक शार कशें दिसतालें. आयजूय ताची स्थिती तशीच आसा आनी आमी सारकी जतनाय घेतलीना जाल्यार फायचें गोंय भाशीक आनी सामाजीक नदरेन कशें तरेचें 'खतखतें' आसतलें हाचें वास्को वयल्यान बेस बरें चित्र काडूं येता.

आयच्या यंत्रयुगांत आधुनीक मनीस संकुचीत जायत रावला. ताचे लागीं पयसो आडको आसा, ताका मायेचीं मनशां आसात पूण तरी तो एकमुळो जावन अश्वत्थाम्या वरी कसलो न्हंय कसलो घाय घेवन जियेता. आयज संवसारभरच्या खंयच्याय मनशाक पळयतकच तो अश्वत्थाम्या वरी जियेता हाची खात्री जाता. आनी म्हाका लागून धर्तरे वयलो निमणो मनीस मरतलो तेन्नाच अश्वत्थाम्याक मरण येतलें काय कितें, असो प्रस्न पडले बगर रावना. अश्या चिरंतन सुख-दुख्खाची जावणीक आशिल्ल्यो कविता 'हांव मनीस अश्वत्थामो' ह्या काव्य झेल्यांत आसपावल्यात.

'कविताः काळ रेल्वेच्यो मन हारशांच्यो पावसा पाणयाच्यो' हो काव्य संग्रह तीन विशयांची माळ. हांतूंत मनशाच्यो भावना रेल्वे, हारशे आनी पावस हांच्या संदर्भात प्रतीक रूपान साकारल्यात. ह्या तीनय माळांतली एक एक निमणी कविता देखीक घेवंया -

धर्मासम्मेलन, जातींसम्मेलन
रेल्वे डब्यांनी भरत रावचीं
संवसार जावन हो रुळ रेल्वेचो
जाती धर्माक हुलपायत वचची

*

हाडां मासाची कूड ही जातली
पूड हारश्या रसायणाची
हारश्या रसायण रुजत थंय हें
पिकां फुलतलीं हारश्या हारश्यांचीं

*

पावस पडटाः
न्हंय हो जिणे उदकाचो हुंवार झडटा
हुंवारः जाय तितलें दवरून नाका तें व्हांवयतलो
धर्तरेवेलो एक दीस म्हाकाच कुशीन काडटलो.

'सर्ग घडपाक धर्तरेचो' ह्या संग्रहांतल्यो कविता बरयतना हांव खऱ्या अर्थान रमून गेल्लों. हांतूंत 'मोग अजरंवरी', 'कृतार्थ सुगुर्वो' आनी 'भविश्य दिश्टावो' हांचेर, मनीस उत्क्रांतिचेर आनी घोव बायलेच्या चिरंतन मोगाचेर भाष्य करपी कविता आसात.

आनी आतां तुमच्या हातांत आसा तो म्हजो सवो कविता - झेलो 'व्हांवती न्हंय काळाची'.

असो हो 'म्हजे कवितेचो प्रवास'. हांव विचारांनी कसो घडत गेलां तें म्हज्यो कविता दाखयतात.

सखाराम दा. पाडगांवकार

# समाजसन्मुख कवीन घेतिल्लो आत्मसोद

कवी प्रकाश पाडगांवकार हांचो कवितेचो प्रवास सुरू जावन पस्तीस वर्सां जालीं. आयजमेरेन तांचे पांच कवितासंग्रह उजवाडाक आयल्यात. पयलो संग्रह 'उजवाडाचीं पावलां' (१९७६) बरोवन तांणी कवितेच्या मळार आपली रुजवात केली. ताच्या उप्रांत 'वास्कोयन' (१९७७), 'हांव मनीस अश्वत्थामो' (१९८५), 'कविता : काळ रेल्वेच्यो, मन हारशांच्यो, पावसा-पाणयाच्यो' (१९९३) आनी 'सर्ग घडपाक धर्तरेचो' (१९९४) हे तांचे कवितांचे झेले एकाफाटल्यान एक उजवाडाक आयले. तांगेली कवितारती निशठेन चलल्या. कोंकणी कवितेच्या मळार तांणी नामना जोडल्या. हेर वाङ्मयप्रकारांकडेन वळनासतना कविता हो एकच प्रकार आपले अभिव्यक्तीखातीर तांणी पसंद केलो. आपल्या आत्म्याचो अंतःसूर आपूण कवितेंतल्यानूंच बरे तरेन केळयतलों ह्या आत्मविश्वासान ते आसनमांडी घालून बसल्यात. तांकां तातूंत उफाट यश मेळळें. आयज प्रगल्भतायेच्या पांवड्यार तांचो 'व्हांवती न्हंय काळाची' हो कवितासंग्रह उजवाडाक येता. कवितेच्या या व्रतस्थ पांथस्थाक 'तुमचे फुडले मार्ग सुखकर जावं दीत' अश्यो शुभेच्छा परगटावन तांच्या कवितांच्या कांय वैशिष्ट्यांचो नियाळ करप हें भोव गरजेचें.

जिविताचीं खर वळणां पार करून कवितेचो हो समृद्ध पांवडो गांठपी कवी प्रकाश पाडगांवकार हांच्या 'व्हांवती न्हंय काळाची' ह्या कवितासंग्रहाविशीं बरयतना खूब खोस जाता.

काळाची न्हंय व्हांवती आसता. खुबशे ल्हान प्रवाह तिका येवन मेळटात. मुखेल प्रवाहाक जेन्ना ल्हान प्रवाह येवन मेळटात, तेन्ना तो आनीक व्हड जाता. दुसरें म्हळयार मूळ प्रवाह खंयचो, ताची कुरु खंयची हें सोदून काडप कठीण जाता. ताचें प्रवाहीपण म्हत्त्वाचें. कांठावेल्या मनशाचो पोसो ल्हान थारता. अशा ह्या अविरत, अखंडित व्हांवपी काळन्हंयेच्या कांठार रावन, समाजभान आनी आत्मभान राखून

प्रकाश पाडगांवकार या कवीन आपलो पोसो समृद्ध केल्लो आसा. ताचीं प्रसादचिन्नां तागेल्या या कवितांत जळीमळीं दिसतात. आपल्या जिवितांतले काव्यात्म खीण तांणी शब्दांतल्यान चिरंजीवी केल्यात.

प्रकाश पाडगांवकार हांणी आपले कवितेचो आरंभ केन्ना केलो? भोव कष्ट काडून शिक्षण घेतना तांकां कवितेची गोडी लागली. कवितेक उतरां लागतात. म्हणून तांणी खूब वाचन केलें. त्याचबरोबर तरेतरेच्या अणभवांनी आपली जीण समृध्द केली. जेन्ना शब्दांची साधना आनी जिविताची साधना एकूच जाता, तेन्ना अचळय उजवाडाचीं पावलां दिसूंक लागतात. मागीर प्रकाश पाडगांवकारांसारको कवी उदेंतीकडेन येवंक लागता. आपल्या परिसरांत वावुरताना तातुंतलें सत्त्व तांणी शोषून घेतलें. कांतारांतलो आनी अभंगांचो अर्थ समजून घेवपाचे प्रक्रियेंतल्यान तांचे कवितेचो जल्म जालो. फुडल्या प्रवासांत तांणी ती भोव कष्टांनी वाडयली. तांच्या ह्या प्रवासांत खूब निर्शेणी आयली. पूण तो तांचो स्थायीभाव जालो ना. खूब व्हड मनीस मेळळे, प्रज्ञावंत मेळळे. बाकीबाब बोरकारांसारकिल्या फांकिवंत कवीन तांचे फाटीवेल्यान हात फिरयलो. रवींद्र केळेकारांसारकिल्या विचारवंतांचे मार्गदर्शन आनी सहवास तांच्या साहित्यनिर्मणेक उर्बा दिवपी थारलो. डॉ. एस्. एस्. कुलकर्णी हांच्यासारकिल्या नामवंत प्राध्यापकाचो पालव मेळळो. तांच्या सांगातान प्रकाश पाडगांवकार हांणी द्रष्टे प्रज्ञावंत श्रीअरविंद हांची तत्त्वप्रणाली समजून घेतली. संवेदनक्षम पिराये साकून तरनाटेपणाच्या हुंबऱ्यार दैवस्त प्रतिभेक सारेंसोप घालपी मार्गदर्शन करपी व्यक्ती मेळिल्ल्यान तांची प्रतिभा दिसान दीस फुलत गेली, फळत गेली. तांच्या संस्कारान आनी प्रभावान तांचे काव्यशक्तीक नव्यो नव्यो आंकऱ्यो-कोमऱ्यो येत रावल्यो. चिंतनशीलतायेक नवी मिती मेळळी. तांचो पणजी आकाशवाणीवेलो नोकरेचो काळ तांचो कवी म्हणून व्यक्तिमत्त्व वाढपाक व्हडा प्रमाणात जालो. तांच्या व्यक्तिमत्वाक तांसां घालपी मनशांविशींचो कृतज्ञताभाव हें ह्या कवीचे आनी एक वैशिष्ट्य. 'उजवाडाचीं पावलां' या कवितासंग्रहाच्या अर्पण-पत्रिकेंत कवी खूब कितें तरी सांगून वता. तो म्हणटाः

**''काळखांत आडखळटल्यांक उजवाडाचो हात दिवन**
**तांच्या प्राणांत किरणांची बीं रुजयत**
**फांतोडे वाटेन व्हरतल्या चैतन्यपुरुषांक...''**

ताच्या उप्रांतचे कवितांझेले तांणी जल्मदात्या आवय-बापायक, संस्कार करपी मानेस्तांक, तशेंच श्रीअरविंद आश्रमाच्या पूज्य माताजींक नमळायेन ओंपल्यात. मुळासून आशिल्ली कृतज्ञताय ह्या रूपान उक्ती जाल्या.

प्रकाश पाडगांवकार पणजी सोडून वास्को गेले. 'एम्.एम्.टी.सी.' ह्या आस्थापनांत रुजू जाले. विशाळ जनविश्वाचें तांका लागीच्यान दर्शन घडलें. समाजाच्या सुखदुख्खांकडेन पळोवपाची नदर तांचेकडेन आशिल्लीच. विंगड विंगड समाजाच्या विराट समस्यांचें दर्शन घडिल्ल्यान तांचे प्रतिभेक नवे उत्फरके आयले. हातूंतल्यान 'वास्कोयन' साकार जालें. ताचेय उप्रांत पाडगांवकार कविता बरयत रावले. केन्ना आपल्या भावविश्वाची, केन्ना सैमाच्या मन भुलोवपी चित्रांची कविता ते बरयत रावले. पूण समाजसन्मुख कविता हो तांगेल्या कवितेंतलो तेजस्वी पैलू.

"व्हांवती न्हंय काळाची" ह्या कविता झेल्यांत कवीच्या भावविश्वाबरोबर तांगेली ही समाजसन्मुख मुद्रा दिसून येता. ह्या कवीन ज्वलंत उतरांनी घेतिल्लो आत्मसोद ह्या संग्रहांत पळोवपाक मेळटा. कवी म्हण्टाः

**........आता जंय हांव एकसुरो उबो**
**थंय साकारता नवो जाणविकायेचो हिमालय**
**सांगातान म्हाका केंद्रबिंदू कसो उबारून**
**सगळे वटेन म्हजेच स्वअस्तित्वतायेचीं किर्णां व्हांवयत**
**जांकां ध्यास**
**सासणाखातीरच्या कर्तृत्वतायेचो**

(हांव एकसारको धांवत)

ह्या संदर्भात प्रकाश पाडगावकारांची ह्या झेल्यांतली 'पत्र' ही पत्ररूप कविता खूब किर्ते तरी सुचयता. कवितांचो पावस मागपी इश्टाक हालींसराक आपल्या कवितांचो झरो आटून मनाभोंवतणी किण्ण पातळ्ळां अशें वास्तव अनुभूतीचें चित्र तो मुखार दवरता. ताका लागून हो भायलो दडकांनी रकपी काय रडपी पावस आपल्याक भिजोवंक शकना, फुलोवंक शकना अशें कवी म्हणटा. ताच्या चिंतनाचें नवें वळण फुडल्या मनोगतांत पळोवंक मेळटाः

**मन खंयच्यातरी अदिश्ट प्रवाहाची**
**वाट पळयता.**
**हो प्रवाह येवन म्हाका शॉक दितलो**
**आनी हांव भायल्यान-भितरल्यान**
**घसाघसा हालतकच**
**म्हाका म्हजेंपण मेळटलें.**

ह्या कवीचीं सामाजिक जाणविकायेचीं तांसां 'वास्कोयन' आनी 'हांव मनीस अश्वत्थामो' ह्या संग्रहांत बलिश्ट रूपांत दिसून आयिल्लीं. अंतर्मुखतायेचीं कांय

कायारुपां ताणें सुचित केल्लीं. पाडगांवकारांचे प्रतिभेक ही सामाजिक मूल्यदृष्टी मानवल्या. हें 'व्हांवती न्हंय काळाची' ह्या संग्रहान अधोरेखित केलां. ह्यो कविता एकसुरी सामाजिक आशय परगटावपी न्हंय. तातूंत कवी विंगड विंगड विशय आपणायता. राजकीय, सामाजिक, धार्मिक आनी सांस्कृतिक मळावेल्या प्रदुषणांचें चित्र रंगयता. सामाजिक विरूपतायेचेर खर उतरांनी बडी मारता. केन्ना केन्ना उपहासगर्भ शैलींत तो भाष्य करता. भोंवतणचीं कोसळपी मानवी मुल्यां पळोवन ताचो आत्मो अस्वस्थ जाता.

'हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां', 'राजचिन्न', 'म्हज्या काळाचोच गवाय', 'म्हज्या देशाचो ग्रायंडर-मिक्सर', 'रगताचो धर्म', 'वर्तमानपत्रां', 'म्हज्या देशांतले राखीव जागे', 'इराक-कुवेट झूजः १५ जानेवारी १९९१', 'मुंबय', 'महात्मा गांधींच्या पुतळयालागीं', 'मळब', 'सहवासांतल्या मनशांचे चेरे', 'मराठवाडा भूंयकांप १९९३', 'व्याख्या', 'पिठाची गिरण' आनी 'त्या लिडराचो सुणो' ह्या सामाजिक आशय आशिल्ल्या कवितांतल्यान कवीन चिंतनशील वृत्तीन भाष्य केलां.

ह्या कवीचो पिंड मानवतावादी. संकुचित विचारांक ताच्या मनांत थारो ना. ताका धर्माधर्मांचीं कुशीन कुशीन प्रार्थनेचीं थळां आनी जातीपातींच्यो वेगवेगळयो संघटना दिश्टी पडटात. हो मनशा-मनशांचो वेगळोचार पळोवन ताच्या मनाक खंत जाता. मन भयान व्यापून वता. अशा अवस्थेंत तो म्हणटाः

**आनी कळना खंयच्या खिणा**
**फुरफुरत कीट द्वेशाची**
**आनी पेटत झूज कौरव पांडवांचें कशें**
**देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां**

(हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां)

धर्माचो खरो संबंध मनशाच्या दिसपट्ट्या जीवनाकडेन आसता. आचारधर्म हो मनशाचो खरो धर्म. तो कर्मकांडांत नासता. तो कोणाक उच्च-नीच मानिना. पूण वास्तवांतलें चित्र वेगळेंच आसा. संकुचित विचारसरणीच्या ह्या धर्माच्या मुखेल्यांनी आपल्याक अनुकूल थारतल्यो अश्यो सुपीक कल्पना तकलेंतल्यान काडून धर्मांच्यो विंगड विंगड वण्टी घातल्यात अशें कवी म्हणटा.

आयच्या जगांतलें विध्वंसक रूप पळोवन कविमन अस्वस्थ जाता. विश्वसंहारक शस्त्रास्त्रांची निर्मणी करून कांय राष्ट्रां वेल्याचाराक शांततायेचो मंत्र म्हण्टातः

**कसाय जसो हातांत सुरो घेवन**
**सांगता गजाली बोकडेक अभयाच्यो**
**तशीं हीं शांततायेचो उद्घोष करपी राष्ट्रां**
**निर्मितात भिरांकूळ शस्त्रां-अस्त्रां**
**मनीसकुळयेच्या विध्वंशाच्या मुळाची**
**आनी जातात गिरेस्त तीं विकून**
**जांकां मनशां वांगडा**
**शारां-शारां मातयेभर्वण करपाचो स्राप आसा!**
**देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां!**

(हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां)

'राजचिन्न' हे कवितेंत कवी हातांत आशिल्ल्या एका रुपयाच्या खणखणीत नाण्याकडेन पळयता. ताचेवयलें अशोकस्तंभी शिंवांचें चित्र पळोवन तो त्या मुद्रांचो तरेतरेन अर्थ लायता. ताचे हे उपहासात्मक शैलींतल्यान राजकीय, सामाजिक आनी धार्मिक मळावेल्या विसंवादाचेर ताणें केल्लें भाष्य दिश्टी पडटा. ताका हे राजमुद्रेंत आमच्या राजकीय फुडाऱ्यांच्या विसंगतीन भरिल्ल्या वृत्ती-प्रवृत्तीचें पडबिंब दिसता.

'सहवासांतल्या मनशांचे चेरे' हे कवितेंत कवी मनशाच्या सभावाचें बारीकसाणेन विश्लेषण करता. सहवासांत आयिल्ल्या मनशाचे चेरे वेल्यान कशे दिसतात; पूण प्रत्यक्षांत ते कशे वागतात ह्या अणभवाचें चित्र कवीन दोळयांमुखार दवरलां.

**बाजारांतल्या वस्तूचो जसो**
**आमीं आमकां जाय तसो**
**पावंडो थारायतात**
**तशें मनशांचें मन**
**मनशा मनशा प्रमाण**
**आपशींच मुदार जाता**
**भितल्ले भितर ताचो पावंडो थारावन**

'मनीस म्हळयार रुढींच्या बंधनांचो जितो-जिवो पुतळो' असो कोडू अणभव आयिल्ल्यान सहवासांतल्या मनशांचे चेरे नीट पारखून घेवचे अशी शिटकावणी कवी दिता.

'म्हज्या काळाचोच गवाय' हे कवितेंत कवी समाजांतलें आपसुवार्थीपण, धर्माच्या नांवाचेर चलिल्लो अन्याय आनी विशमताय हांचेर उजवाड घालता. "धर्मपीठां पोटां

भरिल्ल्यांची मिरास जाल्यात. तांणी ज्ञान पावणेर काडलां. प्राचीन आनी गिरेस्त परंपरा आशिल्लो म्हजो देश उच्च-नीचपणाचो उद्‌घोष करता. जाती-धर्मांच्या नांवान हांगा मनीसपण घाणटा.'' अशे उद्‌गार कवी काडटा. सरभोंवतणी हें सगळें अनिष्ट आनी अरिष्ट आसतनालेगीत दिव्य जिणेची संकल्पना ह्या देशांत रुजोवंक कवी आशेता. ह्या देशांत बरें किदें तरी घडपाचें आसा हो आशेचो कोंब ताच्या अंतस्करणांत अजूनय आसा.

'म्हज्या देशाचो ग्रायंडर-मिक्सर' ही एक रूपकात्मक कविता. ग्रायंडर मिक्सरांत जशे साबार जिन्नस एकामेकांत भरसून निमाणेकडेन एकरूप जातात तशो साबार समस्या म्हज्या देशरूपी ग्रायंडर मिक्सरांत आयज घुसळूंक लागल्यात. हाचो अनिष्ट परिणाम म्हणून वचत थंय विशमतायेच्या लागवडीक कोडू फळांचे मळे वयर सरिल्ले दिसतात. अशा वेळार निर्शेणी येनासतना भविष्यकाळाचेर कवी नदर दवरून असा.

'रगताचो धर्म' हे कवितेंत कवी म्हण्टाः

रगताक जात लागना, कात लागना. ताका भास, भेस कांय लागना. पंथाचें सुयेरसुतक ताका नासता. मनशाच्या शिरंतरांतल्यान एकेच तरेचें रगत व्हांवता. दान करपाखातीर राखून दवरिल्ल्या रगताच्या बाटल्यांनी हेंच दाखोवन दिलां. कवी सर्वधर्मसमभावाचेर श्रद्धा आशिल्ल्या लोकांनी 'रगत-दान' करपाची गरज आसा. ताका लागून एकमेकांचें रगत एकमेकांच्या कुडींत भरसतलें आनी आपलो एकात्म धर्म दाखोवपाची संद मेळटली अशें आवहन कवी करता. ताचो मानवतावादी पिंड हांगा दिसून येता. 'मनीसधर्म' हे कवितेंतूय अशे तरेचो आशय कवी परगटायताः

**एकमेकांक पावप होच**
**धर्म मनीसजातीचो**
**सगळयांच्या कुडींत व्हांवता**
**झरो तांबड्या रगताचो**

'धर्म' या कवितेंत कवी खोलायेन मनीसजातींतल्या विशमतायेविशीं चिंतन करता. आमच्या क्षणभंगुर जिणेचो अर्थ लायता. हे सृजनशील पृथ्वीवेले आमी कांय काळाचे भोंवडेकार. आमी तिच्या वांगडा घुंवत रावतले. आनी ह्या अनंत, अथांग, अजापान भरिल्ल्या पृथ्वीसांगातान प्रवास करीत एक दीस नाच्च जातले.

हें सगळें खबर आसुनय मनीस एकमेकांचे उणाकपण काडटा. धर्मकोल्लीपण करता. हाचेविशीं कवी खंत परगटायता. धर्म हें ह्या कवीचें चिंतनाचें म्हत्त्वाचें केंद्र जावन आसा. तातूंतल्यान कवी मनीसपणाचो संदेश दिता.

सैमान घडोवन हाडिल्ले दुर्घटनेन कविमन अस्वस्थ जाता.

'मराठवाडा भूंयकांप १९९३' ह्या कवितेंत कवी उद्गार काडटाः

**खिणाभितर दयामाया दाखयनासताना**
**उद्ध्वस्त जालो एकाच मापान**
**खेळण्यांत मांडिल्लो कसो**
**सगळो मायेचो पसारो!**
**कोणें केलो काय हाका फितूर**
**कलियुगाचो दचको दाखोवंक**

'इराक-कुवेट झूजः १५ जानेवारी १९९१ हे कवितेंत मनशान निर्माण केल्ल्या संहारक रुपाकडेन पळोवन कवीच्या मनांत निर्शेणी येता. विसाव्या शेंकड्याच्या निमण्या दसकांत भितर सरतनाच, सगळे पृथ्वीक घुस्पटावन आनी स्वास अंदून रगताचे पाट व्हांवोवंक सज्ज राविल्लो मनीसकुळयेचेर कसलो हो अनिश्चततायेचो काळोख पातळ्ळा असो प्रश्न तो करता. फुडें तो असोय प्रश्न विचारता.

**कोण आसो हो काय**
**दाखोवंक सोदता जगाक**
**आपलो जिणे प्रवास आसा म्हूण**
**रेंवटातल्यान रेंवाटाकडेन?**
**जो अख्खे मनीसकुळयेक**
**जावन रावला आव्हान**
**लक्ष्यवेधी भिरांकूळ क्षेपणास्त्रांचें?**

पूण विनाशाची अवदिसा आयिल्ल्या जगाक ह्या मूलभूत प्रश्नाची जाप दिवपाक सवड ना. कारण ताणें फकत वैभवाचीं सपणां मातयेभर्वण करीत मनीसकुळयेक रेंवाटाकडेन व्हरपाची आस बाळगिल्या.

'कोयर' ही रूपकात्मक कविता. कवीक विश्वांतलें विनाशी रूप ह्या कवितेंत दिसताः

**देखून हांवें अंतराळाचे पोकळेंत पळयलें**
**जाल्यार थंयसर कोयर कसल्या कसल्या गॅसाचो,**
**उंवाळिल्या यानां रॉकेटांच्या प्रदुशणाचो**
**नदर म्हजी मोटवी करून**
**घुस्पावन घुसपल्ल्या विखाळपणाचो**

कवी हीं वास्तव जगांतलीं चित्रां पळोवन दुख्खेस्त जाता खरो; पूण तागेल्या

सपनांतलो भारत ताणे रंगयला. तो परंपरेन चलत आयिल्ल्या आदर्शांचेर आदारिल्लो आसा. तो आशावादी दृष्टिकोन मनांत बाळगून म्हणटाः

**इश्टा पळय हें चित्र भारतवर्षाचें**
**दिव्य घडणुकेचें चित्रण करपी**
**कितलें जिवें आनी टटटटीत!**
**मनीसजातीच्या अर्थावणेचें आस्वासन**
**आसपावल्लें हें चित्र हांवें म्हज्या**
**जिणेच्या संग्रहांतल्यांत राखून दवरलां.**
**जें म्हाका म्हज्या आज्या-पणज्यान दिल्लें**
**सोपोवंक तें म्हाका म्हज्या नातरां-पणटुरांकडेन**

मनीसजातीच्या शुभंकर शक्तीक जागोवपी भारतवर्षाचें चित्र नातरां-पण्टुरांकडेन सोपोवचे पयलीं कवीक ताचेर आपलोय एक प्रवाह चितारपाचो आसा. कवीचो हो हावेस म्हत्त्वाचो.

'कलकत्ता' हे कवितेंतूय क्रांतिकारकांनी आनी पुण्यपुरुशांनी जागयल्ल्या भारतीय जीवनसंचिताची व्हडविकाय सांगल्या. कवी म्हणटाः

**कलकत्ता तुज्या प्रज्ञावंत पुतांच्या कर्तृत्वांतल्यान**
**ब्रह्मविचारांचो उजवाड**
**धायदिकांक गिन्यान दित फांकारलो,**
**क्रांतीची तरसाद गर्जना करीत**
**रगत मागीत लखलखली,**
**शांतिनिकेतनाच्या रूखावळींतल्यान**
**रंगयाळया शब्द-चित्रांची माणकांमोतयां**
**संवसारभर किणकिणलीं**
**जिणेक परिमाण दिवपी**
**पुर्णयोगाची सिध्दी**
**तुंवेंच जगाक विशाळमनान भेटयली**

ह्या कविता-झेल्यांत समाजमनस्क वृत्तीन जीवनभाष्य करपी कवितांचो एक बळिश्ट प्रवाह आसा; तसोच चिंतनशील वृत्तीन आत्मभाव परगटावपी असो दुसरो प्रवाह आसा. तोय खूब म्हत्त्वाचो. सृजनशीलतेची, जिवितांतल्या सौंदर्यात्मक आनी चिरंतन मुल्यांची कवीक खूब ओड. कवीच्या जीवननिष्ठांचो आनी वृत्ती-प्रवृत्तींचो रूपकार 'सैम-सृजन' हे कवितेंत नितळसाणेन पळोवंक मेळटा.. नितळ तळयांत

पडिल्ल्या चंद्राच्या पडबिंबासारको. देखीक :

**सैम सृजनाचें भांडार**
**ऋतूऋतूंतल्यान रूपकाराक येवन**
**इंद्रधणूच्या रंगांनी**
**हे वसुंधरेक प्रसयत रावता**
**हें सामान्य मनशांचें केदें नशीब?**
**हाजी चावी जर**
**फुडाऱ्यांकडेन, सत्ताधिशांकडेन**
**पैशेकारांकडेन आशिल्ली जाल्यार?**

'मातयेच्या देहाक' हे कवितेंत माती आनी कवी हांचेमदल्या दृढ अनुबंधाचो आविश्कार उत्कट उतरांनी जाला. उतरांबरोबरच तातुंतल्या आंतरिक भावभावनांची सहज, सोबीत लय हांगां अणभवपाक मेळटा. ती मन प्रसन्न करता. आनी तत्त्वाकेडन संवाद जुळयता.

**मातयेच्या देहाक म्हज्या**
**ओड फकत मातयेची**
**मातयेंत सहज एकरूपून**
**जोडटा निशाण जल्माची**

कवी म्हण्टाः ''हांव म्हज्या मातयेच्या देहाक सकाळ सांज न्हाणयतां. तरी परथून परथून ताचेर धुल्लाथर एकवट्टा. म्हज्या मातयेच्या देहाक आकांताची भूक लागता. खाता ताची माती करून भरपाचेंच येवजिता.''

ही जाली देहाची गरज. पूण लौकिकाचो हुंबरो हुपून अलौकिकाचें पेणें गांठपाचो एक अनिवार हावेस मातयेच्या देहांत सुप्त रूपांत आसा. ताका नवनिर्मणेचो दिश्टावो जाता. ह्या सृजनशीलतायेच्या ओथांब्यांनी भरून आयिल्ल्या मनांतल्यान उत्स्फूर्त उद्गार येतातः

**मातयेच्या देहाक म्हज्या**
**दिश्टावो नव निर्मणे**
**दुवाळयांच्या सुवाळयांत**
**काळाचें रंगता पेणें**

'घर' हे कवितेंत आत्मविश्वासान आपल्या जिवितांतल्या श्रद्धा मूल्यांची जतनाय करपी कवी म्हणटाः ''म्हजें संवकळेचें घर बंद करून हांव मुदासांवाक वतलों तेन्ना वण्टीवेलें घड्याळ टिकटिक आवाज करीत काळ जागयत रावतलें. घरभर उजवाड-

काळखांचीं शेवणीं नाचत खेळत किटकिटत रावतलीं." 'उजवाड-काळखांचीं शेवणीं ही अर्थपूर्ण प्रतिमा कवीन हांगा वापरल्या.

फुडल्या उतरांत कविमनांतलो उत्कट ध्यास उक्तो जालाः

**आनी हांव**
**घरापसून पयस आसलो जाल्यारय**
**घरांतली एकान एक वस्त**
**म्हजे हुनसाणेची, म्हज्या स्पर्शाची**
**याद धुपयतना**
**देवाऱ्यांतले दिवलेंतली**
**हांवें पर्जळायल्ली**
**म्हजी आत्मज्योत सारतली.**

कवीच्या भावार्थाक हांगा आत्मतत्त्वाच्या चैतन्याचो स्पर्श जाला. ह्याच आत्मतत्त्वाचें परजळीत रूप 'आत्मसोद' हे कवितेंत पळोवंक मेळटाः

**हांव जाणां**
**म्हाका आत्मनिर्भरपण दिवपी**
**ही तरसाद घेवन हांव**
**एक दीस म्हज्या संपर्कांत येतल्यांक**
**ती वावडूंक शिकयतलों**
**आनी तांच्याय अस्तित्वाक लायतलों**
**आत्मसोदाचो उत्फर्को**

'हांव आयज काल' हे कवितेंत कवी प्रांजळ वृत्तीन आत्मविश्लेषण करता. समाजांतलो जळजळीत घडणुको ताका पेटयनात. भोंवतणचे अत्याचार ताका फुरफुरयनात. समाजाविशीं लागणूक आसुनय तो समाज भायरोसो जाला अशी ताका जाणविकाय जाता. अशा वेळार तो आपली व्यथा सांगता. पूण तातूंतय एक आशेचो किरण आसा. तो ताका फुडाराची वाट दाखयताः

**हांव आयज काल असो निस्तेज जाल्लों**
**खडखडीत जितो-जिवो आसून**
**धांपिल्ल्या सुर्याभशेन निष्प्राणसो**
**आतां बंदनांचे सगळे मायेपास तोडून**
**विमुक्ततायेन**
**म्हजें व्यक्तित्व पर्जळावंक लागलां**

'पावस' ही फकत सैमाच्या सोबितकायेचें वर्णन करपी कविता न्हंय. सैम आनी कविमनाचे हावेस हांचे एकरूपतायेंतल्यान आयिल्ली ही एक आत्मनिष्ठ कविता. कवी म्हण्टाः '' म्हज्या दोळयांक फुडार रेखपी पावसाचें न्हाण जाय. म्हज्या कानांक वतल्या गिमाचे उले आयकूंक येवंक जाय. हांगा झाडा-पेडां सुकत वचून पानांचेर धुल्ल पातळ्ळा. दांबरी रस्ते तापिल्ल्यान हांगा उज्याचें जोगूल नाचता.'' कवीन केल्ल्या ह्या वर्णनाक मानवी सुख-दुख्खांचो स्पर्श आसा. म्हणून हे कवितेक प्रतीकरूप आयलां. आयज जरी निर्शेणीचो काळ आसलो तरी फायचो काळ फळादीक जातलो अशी कवी आस बाळगिताः

**पावस येतच पाखीं वाजून**
**शितळ पांवळयो गळटल्यो**
**मातयेचो वास मनांत**
**पेटयतलो यादी दिवल्यो**

'म्हजी गिरेस्तकाय' हे कवितेंत कवीच्या चिंतनशील वृत्तीचो आविश्कार दिसून येता. सौंदर्यात्मक अनुभूतींचो ह्या मनाक स्पर्श आसा. कवी आपल्या जिणेंतल्या सुख-दुख्खाच्या खिणांचो हांगा नियाळ करता. कवीच्या ह्या आत्मनिवेदनांत पारदर्शी रूप दिसून येता. काळजांतले उमाळे तो हांगा केळयता. काळजाक होलमल्लें सत्य सांगपाक प्रतिमा-प्रतीकांचो वापर करता. देखीकः

**म्हजो एक आसा चंद्र**
**तो म्हज्यो राती चान्यान विरगळायता**
**आनी तो आसना तेन्ना**
**काळख्यो राती नखेत्रांची माणकां मोतयां**
**म्हजे वाटेर शिंपडायतात.**

हातूंत व्यक्त जाता ती आत्मतृप्तीची भावना. केन्ना केन्ना आशा-निराशेचो आपा-लिपाचो खेळ ताच्या मनांत चलता.

**केन्ना हेंच मळब येवजणेच्या कुपांनी**
**थतर-वितर जावन घडघडटा**
**केन्ना फुडाराच्या जैताच्या**
**जांबळया निळया कुपांतल्यान**
**रुजून फुडार धोलयता.**

'वसुंधरा' हे कवितेंत कवीचो चिरंतनाचो ध्यास दिसून येता. वसुंधरा हें या चिरंतनाचें, शाश्वताचें मूर्तिमंत प्रतीक. ती नवनिर्मणेचो संदेश दिता. काळखांतल्यान

उजवाडाकडेन वचपाची प्रेरणा दिता. कवी दोळे धांपून ह्या वसुंधरेचे ध्यान करता. एके वाटेन नवनिर्मितीशील शक्तीची अंतर्मुख जावन कवीन केल्ली ही उपासना. तिचो परिणाम असो जाता :

**तिचें नित्य-नवेलें प्रसवण**
**म्हज्या अंतरात्म्याक अखंडित**
**अनंतकाळाच्या अजरंवराचो**
**साक्षात्कार घडयता**

'वोत पेटिल्लें' ही हे संग्रहातली उल्लेख करपासारकी कविता. कवीच्या अंतस्करणांतले तळमळे हे कवितेंत शब्दबध्द जाल्यात. ताचे प्रतिमासृष्टींतली खोलाय आनी सुक्षीमताय हांगा पळोवपाक मेळटा. ह्यो प्रतिमा सैम आनी कविमन हांच्या एकवटांतल्यान आयल्यात. कवी म्हणटाः कसायाचे खुनशी दोळयांवरी वोत पेटिल्लें आसा. घुंवळ येवन जिंवाचे तळमळे केन्ना जायत हें कळना. मुळांतली थंडाय उफेवन झाडां बेजारल्यांत. सुकीं पानां झडझडताना तळें भयांकृत जालां. पयस खुबळिल्ल्या दर्याची गाज काळजाभितर आयकूंक येता. मना शेवणें दिगंताच्या प्रवाहांत सांडलां. हे प्रतिमेंतल्यान अर्थघन आशय कवीन सुचयला. दीस अस्तमतेकडेन वतना सुर्याफाटीर काळखाचें वोजें आसा. अशा आकुळपिकुळ वेळार आपल्या जिवाक खर उजवाडाचे दुवाळे लायत वतले अशें कवी म्हणटा.

'नवलायेचें घर' हे कवितेंत नितळ उतरांनी कवी आत्मतृप्ती परगटायता. सृजनशील मनाचे उत्फरके हांगा पळोवंक मेळटा. कवी म्हणटाः "म्हजें घर नवलायेन भरिल्लें आसा. ताच्या रातच्या पाख्याचेर नखेत्रांचें झुंबर सोबून दिसता. म्हज्या नवलायेच्या घराक मळबाचें जनेल आसा. ताका वण्टी दिकांच्यो आनी वाऱ्याचें दार हालता. म्हज्या नवलायेच्या घरांत चंद्रिमाचो दिवो पेट्टा. सपनांचीं फुलां फुलयत हांगा रत्नांचो सूर्य येता. म्हज्या नवलायेच्या घरा कुशीक सुरांचो वझरो व्हांवता. भांगराचें शेत पिकून यशाचो तुरो धोलता. कवीचे कल्पनाशक्तीची उंचाय हांगा अणभवपाक मेळटा. हो कवीच्या आत्मसोदाच्या प्रक्रियेंतलो एक खोशयेचो खीण. आयजमेरेन घडिल्ल्या जीवनप्रवासाचो हो नियाळ.

'बाकीबाबांक' हे कवितेंत कवीन श्रेष्ठ कवी बाकीबाब बोरकार हांका कृतज्ञतायेचीं अर्गां ओपल्यांत. बाकीबाब ह्या जगाक अंतरले तेन्ना कवीच्या मनांत दुख्खाचे उमाळे आयले. तांणी शब्दरूप घेतलें:

**उतरां-सैम फुलैणारो खंय गेला माळी**
**कुपां दिगंत विस्कटून रडटा आषाढपांवळी**

**सुर्याचें ल्हिपून तेज दाट्टा काळखि दोळयांर**
**रंगी-सैमा गळयांतलो फिको रत्नाहार.**

बाकीबाब सैमाच्या अंतरंगांत तन्मय जावन ताचे विभ्रम रंगोवपी प्रतिभावंत कवी. ते आता नात म्हणून सैम लेगीत दुख्खेस्त जालां अशें कवीक दिसता. तो वर्णन करताः

**दर्या-देग पडून एकली हालना वाऱ्या आंग**
**न्हंय म्हण्टाः वाठार खन्ती! कित्याक? कोणूय सांग**

शब्दसृष्टीचो ईश्वर नाशिल्ल्यान सृजनाच्या उपासकांक दुख्ख जालें. तांचे मोने व्यथेक शब्दरूप दितना बाकीबाबांच्याच 'निळें सवणें' हे कवितेचो आदार घेवन कवी म्हणटाः

**उतरां-सैम उकतें उकतें फुलोवंचें ताका कोणे?**
**सवणें निळें घुंगरा उडोवन बसलां जावन मोनें**

डॉ. बाबासायब आंबेडकार हांणी चिड्डल्ल्या माड्डिल्ल्या समाजाक अस्मिताय दिली. स्वाभिमानाचें बीं तांच्या अंतस्करणांत रोयलें. ताका लागून सामान्य मनशाक स्वतंत्रतायेचो खरो अर्थ होलमलो. दलित जगांत जागृताय घडोवन हाडपी म्हापुरुषाची व्हडविकाय वर्णन करताना कवी म्हणटाः

**तुजे विचार जावन सुरींग विद्रोहाचे**
**फोडीत गेले खडपा नश्ट्या पाथावळींचे**
**आनी मनीसकायेक भुकेल्ली फाटीं-उरिल्ल्यांचीं काळजां**
**अणभवूंक लागलीं उकत्या मळबाची खोलाय-उंचाय.**

प्रकाश पाडगांवकार हांकां संवेदनक्षम वयासाकून उजवाडाचो ध्यास आशिल्लो. उजवाडाचो सोद घेत पावल मारप हेंच तांचे संवेदन. पूण वास्तवाचे धगीक लागून आत्मचिंतनाच्या पावंड्यावेल्यान कवी जेन्नाः

**उजवाडाचे भिरांतेन**
**काळखांत खोल बुडून रावचे शें दिसता**

अशें म्हणटा तेन्ना ताच्या म्हणण्याक वेगळोच सुक्षीम अर्थ आसता. ताचे भोंवतणचे सगळे संदर्भ खोलायेन पारखून घेवचे पडटात.

सध्याचें अश्रध्देचें, भिरांकुळ सामाजिक वास्तव कवीक जिणेवेलो विश्वासूच ना करुंक पळयता. कित्याक जियेवप, कोणाखातीर जियेवप हाचो अर्थय होलमना

तेन्ना कवी म्हणटाः

**हो उजवाड केन्ना सुणो कसो**
**आंगार येवन धांवडायता**
**तेन्ना म्हजी सावळीय**
**पांयां पोंदा वळवळून**
**म्हजो सांगात सोडून धांवूंक सोदता**
**ह्या उजवाडांत काळीज भिरांतेन धडधडटा**
**तेन्ना जीण जेट-विमाना भशेन**
**धांवताशी दिसता**
**देखून म्हाका**
**काळखांत निचेश्ट पडूं दी**
**म्हजो म्हाका तोलूं दी**

(उजवाडाच्या भिरांतेन)

पूण होच कवी सैमासांगातान सैमरूपांत सामावन वता तेन्ना अप्रुपाची गजाल घडटाः

**हांवय तेन्ना सुर्यावरी**
**थकिल्लो आसता**
**पुणून जेन्ना**
**जुवारीचीं तरणीं मदेल्लीं ल्हारां**
**श्रावण-झडीचें उदक पियेवन मातून**
**फेरीबोटींत म्हजे पांय धुवंक येतात**
**तेन्ना हांव**
**रानांत फुलिल्लो पांचवोचार श्रावण जातां**
**आनी म्हजीं गात्रां**
**नवे उर्बेन सळसळायतां**

(सांजेच्या पारा)

हांगा अधोरेखित केल्ल्या प्रतिमांकित अणभवांतल्यान कवीची आत्मनिश्ठ वृत्ती सौंदर्याच्या दिश्टाव्यान कशी फुलून आयल्या हें पळोवंक मेळटा. 'केन्ना केन्ना', 'हांव आयज काल' आनी 'म्हाका दोळे आयल्यात' ह्या कवितांत परगटल्ल्या आत्मभावाचो विचार करिसारको.

प्रकाश पाडगांवकारांच्या ह्या कवितांझेल्यांत 'फातरांचें नशीब' आनी 'जायां

घमघम' अश्यो दोनच प्रेमकविता आसात. हातूंत कवी शरीरी प्रेमाचें वर्णन करीना. आपल्या जिविताच्या प्रवासांत कठीण प्रसंगार साथ दिवपी सहधर्मचारिणीविशींचो उत्कट प्रीतिभाव 'फातरांचे नशीब' हे कवितेंत व्यक्त करता. सहजीवनाची सार्थकताय एकमेकांच्या समर्पणभावात आसता हे कवीक बेस बरें होलमलां. हे प्रेम सपनाळें केन्नाच नाशिल्लें. ताका आशिल्ली वास्तवाची खरसाण. ताका लागून मोगिकेक उद्देशून तांच्या अंतस्करणांतल्या प्रगल्भ जाणविकायेचे उद्गार येतातः

**फुलां माळून आयिल्लें तूं**
**ओंपूंक फुलां म्हज्या पोशांत**
**आमीं वतना दवरून गेल्लीं**
**फुलां दोन फातरा गोपांत**

कठीण वास्तवाचेर मात करून कवीचें सहजीवन फुलून आयलें. ताणें अणभविल्ली तृप्ततायेची भावना नकसूद उतरांनी व्यक्त जाल्याः

**फातराचें नशीब केदें**
**फातर तो फातरच उरून**
**ऋतू-वैभवा जालो धनी**
**फुलां  आमचीं येवन रुजून**

'जायां घमघम' ही गंधसंवेदनेन भरिल्ली प्रेमकविता. पूण हो परमळ प्रेमाचें प्रतीक  आशिल्ल्या जायांचो न्हंय; तो परमळ आसा दोगांच्या सहजीवनाचो. देखून कवी साफल्याचे आनी कृतज्ञतायेचे भावनेन म्हणटाः

**केंसांतुलो जायां घमघम मन घुस्पायता**
**हुबून गेल्लीं साबार वर्सां दोळयांर जागयता**

**केंसांतुलो घमघम तसो तुजो गोड सांगात**
**नशीब म्हजें पर्मळ न्हांवन सुखांक भिजयता**

'नशीब म्हजें परमळ न्हांवन सुखांक भिजयता' हे कविकल्पनेंतले संवदेनाविश्व हे कवितेक उंच पांवड्यार घेवन वता. ताका खोलाय आसा जिवितांतल्या पावस-वोताचीय कवीक जाणविकाय आसा.

सैमाच्या गोपांत तांच्या प्रेमाचो गोफ रंगिल्ल्यान सैम आणि कविमन एकतान जावप सभाविक. हें सैमपिशें कविमन आपल्या मोगिकेकडेन संवाद करताना आंतरिक उमाळयान म्हणटाः

**फुलोवन मळो श्रावणाचो मळब चंवरला**
**पळय कशें पावस-वोत आमकां खुणायता**

**वर्सां काळ धांवत रावूं जिणे मळो फुलूं**
**जिणच आमची जांव एक पर्मळीत कविता.**

कवीक गोंयचे भुंयेचो, सैमाचो खूब अभिमान. तशेंच सैमाचे रंग पिवन आयिल्ल्या शिगम्याविशीं खूब आपलेपण.

सैमाच्या नव्या रंगांची सुलूस लागता आनी शिगमो येता. त्या रंगांत भरसून हांगसल्लो मनीस उत्सव मनयता. सैम आनी मनीस हांची एकरूपताय करपी शिगम्याचें वर्णन करतना कवी म्हण्टाः

**........रंगाचें न्हाण न्हांवन नितळल्यांत मनां**
**सैमाच्या रंगीं आंगार साज नवो चडलो.**
**धोल ताशे बडयत गाजयत नाचत आयले मेळ**
**देव पसून रथांत बसून नाचूंक धोलूंक लागलो**

लोकमानसांतली सगली उमेद, ऊर्बा हांचे मूर्तिमंत वर्णन हांगा कवीन केलां. लोकांच्या अंतस्करणातलें श्रध्देचें रूप रेखूंक तो विसरल्लो ना.

रंगाच्या ह्या अप्रूपाक लागून लोकमानसांतली कृत्रिमताय गळून पडटा. ते स्वतःक विसरून ह्या उत्सवांत गुल्ल जातात. हो नेम आयचो-कालचो न्हय. एक पिळगी वचून दुसरी पिळगी येता. पूण ही परंपरा लोकांनी निश्ठेन सांबाळल्या.

प्रकाश पाडगांवकार हांच्या व्यक्तिमत्त्वाची तांसां नियाळताना तांगेल्या विशुद्ध चिंतनशील कवितांच्या प्रवाहाचो विचार करचोच पडटलो. 'व्हांवती न्हंय काळाची' ह्या कविता - झेल्यांत, अश्यो कविता दिष्टी पडटात. 'हांव' 'बोमाडे', 'कुवाडें', 'मुर्तिकार', 'चार ल्हान कविता' - 'लाकूड आनी उदक' 'मूय आनी हांव' 'जिणें' ह्या कवितांतलो आशय संदर्भ ध्यानांत घेतलो जाल्यार कवीचो प्रवाह कितलो तेजिष्ट आसा हें सहज होलमता. जिणें ह्या कवितेंत कवी जिविताच्या खोल डोहांत वचून मिताक्षरांनी आपलो अणभव कसो परगटायता तें पळोवपासारकें :

**मानात तुमी**
**तुमचें मोल**
**करचें कोणें?**
**तरी सांगात**
**काळा-नियतीन**

**घाणाक लावंक ना**
**तुमचें जिणें?**

'अर्थ' हे कवितेंत कवी आपल्या जिणेची मोलावणी करता. पूण ती करता आसतना आसमंताल्यो घडामोडी तो विसरना. काळाच्या गतिमान प्रवाहांत संक्रमण जायत आसा. तांची नोंद घेवन आपलें चिंतन तो परगटायता. कवी म्हणटाः

जिणेचो अर्थ सोदीत अर्दी जीण झडून गेली. आंगावेले ऋतू झडून वतात अजून कांय फुलपाचे आसात. अनादी काळापासून हांगा काळ सारको व्हांवत आसा, यंत्रयुगाच्या महारथान अंतराळाचेर तांसां मारल्यांत. काळखाचें दुयेंस ना करूंक सूर्य वखदाचे बाण सोडटा. कृत्रिम पावस शिरशिरून खडपांकय प्राण फुट्टा.

मनीसपणाचो संदेश दिवंक कितल्याशा देवमनशांनी जल्म घेतलो पूण अजुनय आमकां सपनांखातीर संघर्ष करचो पडटा. दारार खुरीस घेवन जेजू उबो आसा. कवी प्रतीकरूपान आपल्या ध्येयाखातीर आत्मसमर्पण करपी व्हड मनशांचे वृत्तीचेर हांगा उजवाड घालता.

निमाणेकडेन कवी आपलो आशावाद व्यक्त करता.

**जिणेचो अर्थ सोदीत**
**अर्दी जीण गेली झडून**
**ऋतूऋतूंच्या फुलपांतच**
**जिणे अर्थ आसा तिगून**

'माती' ही ह्या कविताझेल्यांतली सुक्षीम अर्थान भरिल्ली, अल्पाक्षररमणीयताय आशिल्ली चिंतनशील वृत्ती परगटावपी कविता. हांगा मनशाची सासणाची जीण, संस्कृतीप्रवाहांतले सुवार्थाखातीर जाल्ले विंगड विंगड संघर्ष, मनीसजातीची सुखदुख्खान भरिल्लीं स्पंदनां एकवटून कवी वाचप्यांक मूलभूत चिंतनाच्या गर्भकुडींत घेवन वता. ताका अंतर्मुख करता. हे कवितेंतल्या सगल्या घटकांच्या जुळणेंतल्यान कवी संस्कृतिभाष्य करता. मानवी जिणेचें नवनीत हांगा अणभवपाक मेळटा.

**मातयेच्या हातांनी**
**मातयेचीं आयदनां**

**मातयेच्या बाजारांत**
**मातयेचीं वांटपणा**

**मातयेच्या देवाचीं**
**घडयल्लीं पुराणां**

**माती जातल्या जिणेचीं**
**हिसपाभायर वर्णनां**

'गाय' हे कवितेंत कवीन साध्याच उतरांनी व्हड आशय सांगला. ताणें समाजाच्या ढोंगीपणाचेर उजवाड घातला. गायेक नमस्कार केल्यार पुण्य मेळटा म्हणून पांयतण काडून दवरपी मनशाच्या प्रवृत्तीविशीं भाष्य करतना कवी म्हणटाः

**भक्तिभावान पांयां पडटल्या**
**ह्या भावार्थी सज्जनाक खबर ना काय?**
**आपूण जें पांयतण घालून भोंवतां तें**
**हे गायेवरींच खंयचेतरी**
**गायेचेंच चामड्याचें आसा**
**आनी ह्या गायेचेंय चामड्याचें पांयतण**
**फुडें आनीक कोण घालून भोंवतले म्हूण**



प्रकाश पाडगांवकाराल्या 'व्हांवती न्हंय काळाची' ह्या कवितासंग्रहांतल्या मुखेल प्रवाहाची सारांशरूपान वळख करुन घेतल्याउपरांत तांगेल्या चिंतनाची दिका कळटा. 'उजवाडाचीं पावलां' विशीं नामनेचे कवी बाकीबाक बोरकार हांणी म्हणिल्लें :

''जणेक कवी म्हळयार सैमाचें एक खाशेलें संवेदन. अणभव घेवचेली आनी सांगचेली जण एकल्याची एक खाशेली तरा आसता. ती अशी जाता ह्या संवेदनाक लागून. पाडगांवकारांचे संवेदन जातडेत नाजूक, आत्मलक्षी, अनंततायेचें भान आशिल्लें आनी उजवाडाकडेन सभाविकच ओड घेवपी. प्रणय आसूं, सैम आसूं, ल्हान व्हड कसलोय अणभव आसूं ह्याच संवेदनान तो घेता आनी सांगता.''

बाकीबाबांच्या ह्या व्हड आशय आशिल्ल्या अवतरणाचेर भाष्याची गरज ना. एका महान, द्रष्ट्या कवीन केल्लें भविष्य पाडगांवकारांच्या बाबतींत खरें थारलां. तांचो कवितांचो प्रवास आता अनंततायेचो सोद घेवंक लागला. 'स्व' साकून ताणीं प्रवास सुरू केल्लो. नव्या सहस्त्रकानिमतान ब्रह्मांडाचो वेध घेवपी कविता तांणी बरयल्यात. तांगेल्या कवितांचे क्षितिज विशाळ जायत चल्लां. पारमार्थिकतायेचें सृजनात्मक आंगान चिंतन तांची कविता करूंक लागल्या. हांगाय सैम तांच्या सांगाताक आसाच. ह्या वेळार ऊर्बेभरीत उतरांनी म्हणन दिसताः शुभाऽस्ते पंथान् सन्तु!

ताळगांव, पठार, गोवा.
क्रांतिदिन, १८ जून २००३

**- डॉ. सोमनाथ कोमरपंत**

# हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां

हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां!

जीव दुसऱ्यांचेर पातयेवन
आंवडेंवची सुरक्षताय
अशी खंय हांगा खूण
मनीसकायेच्या भावपणाची?
कायद्याचे राखणदारच हांगा
साता जल्माचे दुस्मान कशे
सोरपावरी केन्ना दंश करीत
हाचो नेम ना!
देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां!

ही धर्मा-धर्मांचीं कुशीन कुशीन प्रार्थनेचीं थळां
आनी जाती-जातींच्यो वेगवेगळयो संघटना!
ह्या जाती-धर्मांच्या नांवान
मनशा-मनशांक वेगळावपी अड्डे कित्याची गवाय?
हांच्या कुशिच्यान वतना केन्ना केन्ना
फुलता कांटो भिरांतेचो
आनी कळना खंयच्या खिणा
फुरफुरत कीट द्वेशाची
आनी पेटत झूज कौरव पांडवांचें कशें
देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां!

आनी खरेपणी धर्म म्हळयार कितें?
कितें ताची व्याख्या?
हांव आता तर ह्या निर्णयार पावलां :
धर्म म्हळयार साबार पंगडांच्या मुखेल्यांनी
आपणाल्या सुपीक तकलेंतल्यान

आपणाक जाय तसो मांडिल्लो कल्पनेचो बाजार
जाचो सोपेपणीं लागना अर्थ कोणाक
आनी गावना जाप मुदयेर थीक कशी
देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां!

आजय जियेवपच जालां भिरांतेचें
आनी चार-चौगांत भोंवता-उलयताना
कळना केन्ना बॉब फुटचो तशें
जायत कुडके कुडके हे कुडीचे
जनरेटराचो फ्युज गेल्लेवरी पडत कूड निष्प्राण
मेल्ल्या नुस्त्यावरी उफेत कूड दर्यार
वा ल्हासून ताचो जायत कोळसो खंयच्याय खिणाक
देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां!

कसाय जसो हातांत सुरो घेवन
सांगता गजाली बोकडेक अभयाच्यो
तशी हीं शांततायेचो उद्‌घोष करपी राष्ट्रां
निर्मितात भिरांकूळ शस्त्रां-अस्त्रां
मनीसकुळयेच्या विध्वंसाच्या मुळाची
आनी जातात गिरेस्त तीं विकून
जांकां मनशां वांगडा
शारां-शारां मातयेभर्वण करपाचो स्राप आसा!
देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां!

*३-३-१९८४*

# म्हजो कोट

हो म्हजो कोट
हो म्हाका राजान दिला
हांवें ओर्राद जियवंचें म्हूण!

असलो कोट
म्हज्या आज्या-पणज्या लागीं
नाशिल्लो म्हूण
ते बाबडे दळदिरे
मेरेल्ली जीण जियेत
मरून गेले!

हो कोट चडोवन हांव भोंवतां
तेन्ना लोकांक म्हजी
आपसूक वळख जाता
आनी कुन्नाटीं म्हजी
कोटासयत मोल करतात
हें हांव
तांच्या चेऱ्यावेल्यान पारखितां

हो कोट आंगार आसतकच
अल्लाउद्दीनाच्या जादवा दिव्या भशेन
म्हज्या मुखार
म्हाका जाय त्यो सागवाती पडटात
अशी ह्या कोटाच्या दुस्वाशांची
लटकी फाम वचत थंय

असो हो कोट हांव
पावणेर काडपाचें थारायतां
तेन्ना चोंयवशेन मोड उप्रासता,
नितळ मनान
दान दिवपाचें पर्गट करतां
तेन्ना आशेड्ड्यांचेय हात
मोटवे जावंक लागतात

असो हो कोट
आतां हांवच घालून जगतां
म्हजे जिणेची
ती एक खाशेली कुरू मानून

*वास्को : ४-३-१९८२*

# महात्मा गांधीच्या पुतळयालागीं

महात्म्या तुजो पुतळो पळयतां हांव
ह्या शाराच्या गजबजिल्ल्या तिठ्यार आशिल्लो
तुका सादो वालो न्हेसोवन उबो केल्लो.
महात्म्या तूं प्रतिनिधी ह्या देशाच्या चडशा लोकांचो
जे तुजेवरीच आंगपांगान हाडकुळे
परिस्थितीच्या चेपणाखाला चेपिल्ले.

महात्मा तुजीं पावलां
दीनदुर्बळांच्या खोंपीनी रिगतालीं
तेन्ना थंय उत्क्रांतीचो सूर्य उदेतालो.
पुणून महात्म्या तुजो उत्क्रांतीचो सूर्य
तुजे उपरांत खंय शेणला कळना देखून
खोपींनी काळखाचें गिराण तशेंच धुमशेता!

महात्म्या तुजोय एक काळ आसलो
तेन्ना तुजो उलो जातालो कोटी भारतीयांचो उलो,
तुजो हुंडको जातालो कोटी भारतीयांचो हुंडको
आनी आयज तुजें नांव संवसारभर
चलतें नाणें जालां हें केदें अजाप?

महात्म्या तूं आसलो तुज्या युगाचो धुमकेतु
ह्या मातयेंतल्यान रुजिल्लो
दिगंताच्या थरा-थरांक जाग हाडून
संवसाराक नव्या विचारांची जाण दिवपी

महात्म्या तुजो पुतळो पळयतकच
आयज कोणाचें काळीज
तुजे जिणे दिश्टाव्याच्या तेजास्फुर्तीन दिपकावतलें?
राष्ट्रभक्तीन पेट्टलें?

आयज तुजो पुतळो पळोवन
जायत स्फूर्त आपसुवार्थी मनशांक
तुज्या नांवाचें भांडवल करुन
आपलो सुवार्थ सादोवपाची
तुज्या नांवान दीनदुर्बळांच्या जिणेचेर धंदो चलोवन
तुकाच धांवडावन घालपाची

महात्म्या तुज्या फाटल्यान आमी
तुजे पुतळेच उबारले
आमचे सोयीखातीर, आमचे खाजी खातीर
देखूनच जेन्ना तुजो पळयता हांव पुतळो
ह्या शाराच्या गजबजिल्ल्या तिठ्यार आशिल्लो
तुका सादो वालो न्हेसोवन उबो केल्लो
तेन्ना तूं म्हाका
पावणेक दवरलेले वस्तीभशेन दिसता!

*वास्को : २४-१-८४*

# माती

मातयेच्या हातांनी
मातयेची आयदनां

मातयेच्या बाजारांत
मातयेची वांटपणां

मातयेच्या देवाची
घडयल्लीं पुराणां

माती जातल्या जिणेची
हिसपाभायर वर्णनां.

*वास्कोः ६-३-१९८२*

# मळब

आता मळब आदलें उरूंक ना
तेंय मुदार जावंक लागलां
आनी कळना ताची निराकार पोकळसाण
करीत केन्ना घात
नदरेमुखावेल्या आकृतायांचो

कालीदासान मोगिकेक
कुपावरवीं रकाद धाडिल्लो
तेन्ना मळब आसलें
भावराथी विस्वास दवरपासारकें
मोग्यान मोगिकेचेर दवरचो तशें

आयज मळबांत भोंवतात
गुपीत यानां रॉकेटां
आनी आमी हांगा मेकळे आसात भुंयेर
अशे जाणविकेंत आसतना
आमच्या चलपा हालपाची नोंद जांव येता
कोंसांनी मैल पयस

आतां मळब आदलें उरूंक ना
मनशां वांगडा तेंय जांवक लागलां
विस्वासघातकी, स्वास अंदुपी
आनी ॲटम-बॉम्बासारकी विघ्नां शेंवटून
कळना केन्ना
सगळे जिणेकच
हिरोशिमाचें गिराण लायत म्हूण!

*वास्को : ६-३-१९८२*

# चार कविता दिल्लीच्या शिंयाच्यो

दिल्लीच्या सुर्या
भर दनपारां
हें शार एर-कण्डीशण्ड करून
खंय बसला तूं सुस्तेत ?
आषाढांत उजो ओंकपी तूं
पौषांत झेलाद कसो जाला?

२.
झेला-झेलाद बाग फुलांची
झेला-झेलाद हांव जालां
ताळयेर काल फुलिल्लें फूल
काळजार कळो जावन न्हिदलां

३.
दिल्ली म्हाका इतली भाळयता
फ्रिजांतली बाटली कशी गोठयता
देखून आंगभर रेशीम चडोवन
तिका मोगा उबेन हांव उबैतां.

४.
एक अस्तुरी शिंयांत कुडकुडटा
जशी जोत वाऱ्यांत कडकडटा
म्हज्या जिवा तूं उबेंत लोळटना
मरतल्याक कित्याक चुरचुरता?

*दिल्ली : १-१-१९८४*

# जीण

फळ झडटा मातयेंत
कुसून, किल्लून, तरतरून फळां दिवपाक
मनीस मरतकच
ताची इल्लीशी माती
आनी खंयचे कडेन नांव निशाण कांयच ना

फळ झडटा तेन्ना
एक बुनयाद जाता सावळेखातीर
मनीस मरता तेन्ना
एक सपन भंगता सावळेभशेन

*वास्कोः २-२-१९८४*

# क़ाळखाचें पांगरूण

काळखाचें पांगरुण
रातीचे बाज्जेचेर
म्हाका पुरायेन धांपता

तेन्ना म्हाका हांव
सरणाचेर न्हिदला
कशें दिसता

संवसारातले
म्हजे दीस भरतले
तेन्ना कितें वेगळें आसतलें?

*वास्को: १-२-८४*

# वोत पेटिल्लें

खुनशी दोळे कसायाचे तशें वोत पेटिल्लें
कळना केन्ना घुंवळ येवन जायत जिवा तळमळे

मुळांतली थंडाय उफेवन झाडां बेजारिल्लीं
सुकी पानां झडझडताना आंग काडटा तळें

पयस खुबळिल्ल्या दर्याची काळजाभितर गाज
मना शेवणें दिगंताच्या प्रवाहांत शेणिल्लें

सुर्याफाटीर काळखा वोजें दीस अस्तंतना
जिवाक म्हज्या लायत वतलें खर उजवाड दुवाळे

*वास्कोः ८-२-१९८४*

# राजचिन्न

हातांत म्हज्या एका रूपयाचें खणखणीत नाणें
ज्याचेर राजचिन्न आमच्या वळखीच्या
अशोकस्तंभी शिंवांचे!
ह्या शिंवांच्यो बावल्यो
हांव बारिकसाणीन नियाळटां
म्हजेपरी तांचो अर्थ लायतां
तेन्ना त्यो म्हाको स्थितप्रज्ञ कशो पळयतात

हें चिन्न बावल्यांचें
प्रतिक ब्रह्म, विष्णु, महेशरुपी
योगी दत्तात्रयाचें काय?
दत्तात्रयाचे एके कुडीक तीन मुखामळां
जाल्यार ह्यो तीन कुडींच्यो तीन बावल्यो.
दत्तात्रय हिन्दूंचो देव देखून तो
देशांतल्या सगळया धर्मीयांचें प्रतिक कशें जांव येता?

महात्मा गांधीकय तीन बावल्यांचें पिशें आसलें
आनी ते बावल्यो दाखोवन सांगताले :
"वायट पळोवं नाकात"
"वायट आयकूं नाकात"
"वायट उलोवं नाकात"
तसल्यो ह्यो काय बावल्यो?
हांका तर भावना उक्तावपी हातच नात!

श्रीकृष्णान गीतेंत सांगिल्ल्या
सत्व, रज, तम ह्या त्रिगुणांचें
प्रतीक काय ह्यो तीन बावल्यो ?
एकठांय आशिल्ल्या ह्या तिकळयांचो तर
भेस एकूच आनी
आसातय ह्यो एकाच सारक्यो!

भरिल्ल्या पोटार धेंकर येंवचो
तशें सोबितकायेच्या वस्तूंचे वर्णन जे कोण
"सत्यम्, शिवम्, सुंदरम्" ह्या उतरांनी करतात
तांच्या रसिकतायेच्यो बी
ह्यो बावल्यो प्रतीक?

ह्यो तीन बावल्यो शिंवांच्यो
प्रतिक समताय, शान्तताय, भावपणाचें काय?
जी सद्याक म्हारग जाल्या देशांत
पुणून व्हांवत आसता
देशभक्तीच्या स्फुर्तीगीतांनी!

हें राजचिन्न प्रतीक आमच्या फुडाऱ्यांचें काय?
जे एक उलयतात, दुसरेंच करतात
आनी ताचें तिसरेंच घडटा?
जे उपरांत लोकांच्या समाधानाखातीर
आपल्या तोंडा-तोंडांनी उतरां घुंवडावन
ह्या तीन तोंडांच्या राजचिन्ना भशेन
लोकांक स्थितप्रज्ञ कशे पळयतात!

*वास्कोः ११-२-१९८४*

# क़ेन्ना केन्ना

केन्ना मनाक लागता पिशें
आनी पळयन दिसता दोंगराची बुनयाद
जाचेर रावला उबो हो
शेकानशेक दोंगर!

केन्ना मनांत पेट्टा उजो
आनी पालयन दिसता सुर्याचें उज्या मूळ
ताचेर साता समुद्राची उदका चूळ
किंवाटून सोडून !

केन्ना मनांत हायड्रोजन फुटून
जाता दिसता गोबर म्हज्या अस्तित्वतायेचो
पृथ्वीच्या बोलाक खोंट मारून
उडयल्ल्या भशेन!

अशें खूब कितें कितें दिसता
जेन्ना मन नासता थाऱ्यार उचांबळून
आनी हें पिशेंपण वचून साबुद्दीर येवंक
मोगा म्हजें मन तुज्या मनांत
बुडोवचेंशें दिसता!

*वास्कोः १८-२-१९८४*

# पांदऱ्यातलो कीर

शेजारच्या प्रदेशांतल्यान
एका विकप्यान
कीर हाडल्यात म्हज्या शारांत
पांदऱ्यांनी घालून विकपाक

कीर पांदऱ्यानी वोग्गी रावून
भितल्लेभितर तकल्यो हालयत घुंवतात
विकपी तांचे पांदरे
आपल्या भुजांर धोलयत व्हरता तेन्ना

हांवें त्या विकप्याक थारावन विचाल्लें :
"आरे तुज्या पांदऱ्यांतल्या
एका गुलामाचें मोल कितें?"
ताणें सांगलें :
"तीस रूपया"

हांवे एका किराची इश्टागत करून
ताका आमगेर येता काय म्हूण विचाल्लें
तेन्ना त्या किरान म्हळें :

"म्हाका घरा व्हरून मनशा
कितें गा तूं जोडटलो?"
पांदऱ्या पांदऱ्यांनी तूं जियेता
पांदऱ्या पांदऱ्यांनी तूं घुस्पल्लो

हें आयकून
हांव पांदऱ्यां विशीं
विचार करूंक लागलों
तेन्ना म्हाका म्हज्या दिसभरच्या जिणेविशीं
सगळे पांदरेच दिसपाक लागले.

सकाळीं हांव
म्हज्या घरच्या पांदऱ्यातल्यान भायर सरून
मोटार, रेल्वेच्या पांदऱ्यातल्यान
ऑफिसाच्या पांदऱ्यांत येतां

पांदऱ्यांत वावुरपी मनशां वांगडा
दीस सारून
सांजेचो परतो आसा तसो
घरच्या पांदऱ्यांत रिगतां

म्हाका त्या किराची तोखणाय दिसली
आनी हांवें तो कीर वांटपण करून
वीस रूपयांक घेवन
ताका मळबाच्या पांदऱ्यांत सोडून दिलो

उडटना त्या किरान म्हाका सांगलें :
मनशा तूं गुलाम मुगा भुंयेर
तुवेंच घडयल्ल्या पांदऱ्यांचो,
दिगंताच्या पांदऱ्याचो धनी हांव
मनमेकळो उडटना म्हण्टां तुजें बरें जांव

आनी उपरांत म्हाका हो ताचो
रितो पांदरो पळोवन दिसपाक लागलें
म्हजो जीवच म्हज्या कुडी पांदऱ्यांतल्यान
भुर्र उडून गेलो
म्हाका अचेतन ह्या पांदऱ्यांत बंद करून

*वास्कोः१९-२-१९८४*

# नवलायेचें घर

नवलायेचें घर म्हगेलें
नवलायेचें घर
रातचें ताच्या पाख्याचेर
नखेत्रांचें झुंबर

नवलायेच्या घराक म्हज्या
जनेल मळबाचें
वण्टी उकत्यो दिकांच्यो
हालता दार वाऱ्याचें

नवलायेच्या घरांत म्हज्या
दिवो चंद्रिमाचो
सपनांची फुलां फुलयत
येता सूर्य रत्नांचो

नवलायेच्या घरा कुशीक
व्हांवता सुरा वझरो
पिकून शेत भांगराचें
धोलता यशा तुरो

*वास्कोः ४-३-१९८४*

# उक्तावण

म्हज्या भावांनो आनी भयणीनो
आयज आमी हांगा जमल्यात
आमचे मालकीच्या 'ओनरशिप' फ्लॅटांच्या
इमारतीचें उक्तावण करपाक

आयच्या ह्या उक्तावणा उपरांत
हे इमारतींत आतां आमचे
नवे जिणेक आरंभ जातलो

ही इमारत जांवची म्हूण
सपनांची रोयणी करून
आमी जायत्या जाणांनी कश्ट उपशिले
आनी आयज आमी पळयतात
पावसा गिमाक फुडो करूंक राविल्ली
आमची सोबीत ओनरशिप फ्लॅटांची इमारत

ज्या मळावेल्या जाग्यार
ही इमारत उबी रावल्या
थंय आमी आमचें भुरगेपण खेळयलां,
भोंवतणच्या झाडा-पेडांचीं फळां खावन
तरणेपणांत आमी आमचीं आंगां अमुरपिकयल्यांत
जाच्यो तरण्यो यादी काळजांत जाग्यो उरून
आमकां आमच्या जाण्टेपणार
सुखांचें भांडवल उक्तायतलें
आनी आमकां ही इमारत
आमच्या भुरगेपणाच्या यादस्तीचेर
उबी रावल्या कशें दिसतलें

ही आमची नवी-नवेली इमारत
वसंत ऋतूंत रसरसपी
एक गिरेस्त झाड कशें
आनी तातुंतले आमचे ओनरशिप फ्लॅट
जसो एक एक घोंटेर
सदांकाळ आमकां उब दित रावूं

आमची इमारत, आमचे घोंटेर
एके बुनयादीचेर उबे रावल्यात
हाची आमीं जाणविकाय दवरूया
आनी आमच्या मुखार येवपी
कसल्याय अरिश्ठांक तोंड दिवपाक
एकवटान तयार रावुंया

म्हज्या शेजारी भावांनो आनी भयणींनो
मनशाची जिणय आसता एके इमारतीभशेन
जी शक्त आसासर उबी रावता
आनी मागीर निष्प्राण जावन
मातयेभर्वण जाता

देखून उक्तावणाच्या ह्या शुभ प्रसंगार
आमी एक जाणविकाय दवरूया की
हे इमारतीचो असोय एक दीस येतलोच
तेन्ना सिमेंट-कॉँक्रेटीक वेरो येवन
चिरो चिरो गळसणून
ही आख्खी इमारत थरथरून
मातयेभर्वण जातली

आनी हें घडटलें तेन्ना
घडये आमी नासत, पुणून आमचे वंशज आसतलेच
तेन्ना ताणीं धिरान ही इमारत

नव्यान उबारपाक तांकां बळगें येंवचें म्हूण
तांकां आमीं आमचे आतांच
मनापसून आशीर्वाद दिवया

म्हज्या भावांनो आनी भयणींनो
ह्या उक्तावणाच्या अप्रूप समयार
हांव तुमकां सगळ्यांक परबीं दितां
त्या अदृश्य नियंत्याचे गवायेन
जो खरो धनी हे इमारतीचो
आनी जाचेर ती उबी रावल्या ते भुंयेचो
जो अदृश्य आसुनय सदांखातीर
शक्तिवान, शाश्वत आनी अजरंवर आसा

*वास्कोः मार्च १९८४*

# हांव आयज काल

हांव आयज काल असो निस्तेज जालां
खडखडीत जितो-जिवो आसून
निष्प्राणसो

कसलीच जळजळीत घडणूक
म्हाका पेटयना
भोंवतणचे अत्याचार म्हाका फुरफुरायनात
समाजाचो एक घटक आसुनय
हांव जालां असो समाज भायरोसो

चारचौगांत मिरयताना म्हजे म्हाका नाचयताना
सगळे म्हाका माथ्यार घेताले
आनी हांवय म्हज्या सुवार्थाच्या
भोपशाचेर नदर दवरून
सगळयांक माथ्यार घेतालों

आनी आयज हांवच म्हाका
बंद करून जियेताना
ते सगळे
यादस्तीच्या पङ्ख्याफाटल्यान पडून
सगळयो वळखी
अनवळखी शो दिसपाक लागल्यात

पयलीं
म्हजे बगर सगळयांचें अडटालें
हें साप्प फट तर?
पयलीं
म्हजेंय दुसऱ्यांबगर अडटालें
हेंय लटकें तर?
तर खरें कितें?

हांव आयज काल असो निस्तेज जाल्लो
खडखडीत जितो-जिवो आसून
धांपिल्ल्या सुर्याभशेन निष्प्राणसो
आतां बंदनांचे सगळे मायेपास तोडून
विमुक्ततायेन
म्हजें व्यक्तीत्व
पर्जळांवक लागलां

*वास्कोः १०-४-१९८४*

# फातराचें नशीब

फुलां माळून आयिल्लें तूं
ओपूंक फुलां म्हज्या पोशांत
आमीं वतना दवरून गेल्लीं
फुलां दोन फातरा गोपांत

फातराचें नशीब केदें
फातर तो फातरच उरून
ऋतू-वैभवा जालो धनी
फुलां आमचीं येवन रूजून

*वास्कोः १८-४-१९८४*

# बाकीबाबांक

उतरां-सैम फुलैणारो खंय गेला माळी
कुपां दिगंत विस्कटून रडटा आषाढ पांवळी

सुर्याचें ल्हिपून तेज दाट्टा काळखि दोळयार
रंगी-सैमा गळयांतलो फिको रत्नाहार

दर्या-देग पडून एकली हालना वाऱ्या आंग
न्हंय म्हण्टा : वाठार खन्ती ! कित्याक? कोणुय सांग

उतरां-सैम उकतें उकतें फुलोवंचें ताका कोणे?
सवणें निळें घुंगरां उडोवन बसला जावन मोनें

*वास्कोः १०-७-१९८४*

# उजवाडाच्या भिरांतेन

उजवाडाचे भिरांतेन
काळखांत खोल बुडून रावचे शें दिसता

हो उजवाड करता पारो
दुबावी नदरेन पळयत चान्स
थारावंक म्हाका गुन्यांवकार खंयच्याय खिणा
म्हज्याच पांयांच्यो कुरवो
कोरांतून उजवाडाच्या थराथरांत

हो उजवाड केन्ना सुणो कसो
आंगार येवन धांवडायता
तेन्ना म्हजी सावळीय
पांयां पोंदा वळवळून
म्हजो सांगात सोडून धांवूंक सोदता

ह्या उजवाडांत काळीज भिरांतेन धडधडटा
तेन्ना जीण जेट-विमाना भशेन
धांवताशी दिसता
देखून म्हाका
    काळखांत निचेश्ट पडूं दी
    म्हजो म्हाका तोलूं दी

*डिसेंबर १९८४*

# सांजेच्या पारा

सांजेच्या पारा सूर्य जेन्ना
दिसाचो भार घेवन
अस्तंतेच्या कुशींत पुरो जावन रिगता
तेन्ना हांव
जुवारीची न्हंय
हालते धोलते फेरीबोटींतल्यान
पार करता

हांवय तेन्ना सुर्यावरी
थकिल्लो आसता
पुणून जेन्ना
जुवारीचीं तरणीं मदेल्लीं ल्हारां
श्रावण-झडीचें उदक पियेवन मातून
फेरीबोटींत म्हजे पांय धुवंक येतात
तेन्ना हांव
रानांत फुलिल्लो पांचवोचार श्रावण जातां
आनी म्हजीं गात्रां
नवे उर्बेन सळसळायतां

*वास्कोः २९-७-१९७४*

# सहवासांतल्या मनशांचे चेरे

सहवासांतल्या मनशांचे चेरे
वळखून दवरचे

मनीस न्हय फकत
हाडामांसाचो सजिल्लो सांपळो
मनीस म्हळयार
रुढींच्या बंधनांचो जितो-जिवो पुतळो

बाजारांतल्या वस्तुंचो जसो
आमीं आमकां जाय तसो
पावंडो थारायतात
तशें मनशांचें मन
मनशा मनशा प्रमाण
आपशींच मुदार जाता
भितल्ले भितर ताचो पावंडो थारावन

देखुनच सांगतां
सहवासांतल्या मनशांचे चेरे
वळखून दवरचे
प्रसंग पळोवन वागपाखातीर

*पणजी:१-८-१९७४*

# पावस

म्हज्या दोळयांक जाय न्हाण
फुडार रेखपी पावसाचें
म्हज्या कानांक जाय आयकूंक
उले वतल्या गिमाचे

झाडां-पेडां सुकत वचून
पानांचेर दाटला धुल्ल
दांबरी रस्ते तळतळून
नाचता उज्याचें जोगूल

पावस येतच पाखीं वाजून
शितळ पांवळयो गळटल्यो
मातयेचो वास मनांत
पेटयतलो यादी दिवल्यो

अस्तुरेचे व्होंटयेत जशें
माप ओतचें सौभाग्याचें
म्हज्या दोळयांक जाय न्हाण
फुडार रेखपी पावसाचें

*वास्कोः ११-६-१९७६*

# अर्थ

जिणेचो अर्थ सोदीत
अर्दी जीण गेली झडून
आंगावेल्यान झडटात ऋतू
फुलपाचे फुलतात अजून

अनादी काळा पासून हांगा
काळ सारको व्हांवत आसा
यंत्रयुगाच्या महारथान
अंत्राळारय मारल्या तासां

काळखा दुंयेस ना करूंक
सूर्य सोडटा वखदा-बाण
कृत्रीम पावस शिरशिरून
खडपांकय फुट्टा प्राण

मनीसकायेचो संदेश दिवंक
कितले जल्मले देवमनीस
तरी आमचीं सोपनां झुजां
दारार जेजू घेवन खुरीस

जिणेचो अर्थ सोदीत
अर्दी जीण गेली झडून
ऋतूऋतूंच्या फुलपांतच
जिणे अर्थ आसा तिगून

*जानेवारी १९७७*

# तीन कविता बल्बाच्यो

१.
लोकांक फकत दिसता
उजवाड शिंवोरपी पेट्टो बल्ब

वीज व्हांवोवपी वायर, स्विच, फ्युज, प्लग...
कोणाक दिसनात

२.
फुडारी स्टेजीर उलय उलयताना
अचकीत काळोख जालो
कित्याक?
लोकांनी त्या फुडाऱ्याचो बल्ब पालयलो

३
कारखानदार बल्ब
आनी ताचे कामगार
वीज व्हांवोवपी
वायर, प्लग, फ्युज, स्विच....
तो बल्ब जाय तेन्ना पेटोवंक
आनी जाय तेन्ना पालोवंक

*पणजी : २०-१०-१९८०*

# त्या लिडराचो सुणो

त्या लिडराचो एक आसा सुणो
कितलो गुणी कितलो शाणो

हाडूक उडयल्यार चाटीत बसता
ऑसीमोराद दिल्यार
ओग्गी रावन सोंसता
बस म्हणल्यार बसता
उठ म्हणल्यार उट्टा

त्या सुण्याची शेंपडी दिसना कोणा
तो ती काडून दवरता काय कोण जाणा?
असो त्या लिडराचो सुणो
कितलो गुणी कितलो शाणो

ह्या सुण्याचे म्हाका पांय दिसचनात!
ताका दोन पांय आसल्यार
हांव मनीस म्हणपाचों

*वास्को :१८-४-१९८५*

# डॉ. एस्. एन. देसायाच्या दवाखान्यांत

डॉ. एस्. एन. देसाय, कार्डीओलोजिस्ट
हांच्या दवाखान्यांत भितर सरतकच
वण्टीर दिसता लायिल्लें सोबीत चित्र
कुरुक्षेत्रार दोनूय पंगडांचे गर्दींत
रथांत बसून
अर्जुनाक उपदेश करपी श्रीकृष्णाचें

हें चित्र पळयत रावतकच
आपुणूच तकलेंत
गीतेंतले फुडले विचार घोळपाक लागतातः

"जिणेच्या रणांगणांत
आसा सगळ्यांक झुजचेलें
नातीं-गोतींचें नाटक सगळें
हांगाच सोडून वचचेलें
हुस्को खेद कित्याक पुता
मर्ण जल्माक वेंगयतलें"

अशें हें चित्र
दोतोराच्या दवाखान्यांत कित्याक?
ह्या विचांरानी हांव
तांच्या तपास-रूमांत भितर सरतां
तेन्ना दोतोर देसाय म्हाका
कुरुक्षेत्रार उपदेश करपी
श्रीकृष्ण कसो दिसता

*वास्को :१८-४-१९८५*

# बेकरेंतलें पीठ

बेकरेंतल्या दळिल्ल्या पिठाचें
नशीब आनी कितें आसतलें?

कोणतरी तें हातांनी वा माक्नांत घालून
कालयतलो
मागीर खोर्नांत घालून
गोड रुचिक उंडे, पांव, केकी, बिस्किटी करतलो
उपरांत तो बेकरीवालो
गल्ल्यार बसून
कचकचीत दुडू घेवन
त्यो विकतलो

पिठाच्या नशिबाची पावणी
तें कणसांत दाण्याच्या रूपान आसता
तेन्नाच जाल्ली आसता

*ऑगष्ट १९८५*

# लाकूड आनी उदक

उदक लाकडाक म्हण्टा :
तूं उदकांत यो हांव तुका
हुबयतां, धोलयतां जाय तसो नाचयतां

लाकूड सांगताः
तूं म्हाका बुडोवंक शकना म्हूण
हांव जाय तसो मिरोवन घेतां

उदकान म्हळें :
म्हज्या उदकावरवींच तूं
आंग तुजें मळबभर पातळायता

लाकूड म्हण्टा :
हांव पेटूंक लागल्यार तुका
म्हज्या उज्या जिबल्यांनी खतखतायता

उदकान म्हळें :
तूं स्वता पेटून करता तुजो गोबर
हांव खतखतल्यारय तुका पालयता

८-८-१९८५

# जिणें

मानात तुमी :
तुमचो सुर्या
तुमची धर्तरी
मनीस गरवपाक
तुमच्या हातांत
दुडवा हांयसाची
बळिश्ट गरी

मानात तुमी :
तुमचें मोल
करचें कोणें ?
तरी सांगात
काळा-नियतीन
घाणाक लावंक ना
तुमचें जिणें?

*वास्को :२३-४-१९८५*

# मायेमोगाचो निरोप

आमचो ऑफीस वांगडी
पिराय जावन रिटायर्ड जाता म्हूण
ताका बरो फुडार आंवडेवन
आमी हो ताचो
मायेमोगान निरोप घेतात

ह्या ऑफीसरूपी रूखाच्या
वा रुखरूपी ऑफीसाच्या फागुरपांत
आमच्या ह्या वांगड्याचोय हातभार आसा
हें आमी कोणूय कशें न्हंयकारूंक शकत?

पुणून ह्या आमच्या ऑफीस वांगड्याच्या
हांगचे जिणेचो हे घटकेक विचार केल्यार
म्हज्या दोळयांमुखार येता
कार्बन-पेपराच्या जिणेचें चित्र

कार्बन-पेपर टाय्परायटरांत
पर्तुन पर्तुन जाय तितले फावटी घालून काडून
तो चाळण जाय मेरेन वापरतात
आनी मागीर तो नाका तेन्ना
कांय न्हंय कसो हातान चुरुन
कोयरा टोपलेंत उडयतात

आयज ह्या आमच्या ऑफीस वांगड्याची
पिराय भरून ताची चाळण जाल्या म्हूण
आमचें ऑफीस असोच कार्बन पेपर कसो
ताका चुरून उडयता काय?

*वास्को : फेब्रुवारी १९८५*

# हांव

हांव निर्मितां हांव मोडटां
मरून पर्तुन जितो जातां

फोडटां एक नाल्ल तेन्ना
एका माडा मारतां गाब
एक नुस्तें खावन, ताच्या
शंबर पिळग्यां करतां नाश
हाचेंच कुडींत वीर्य जातकच
नवो मनीस जल्माक घालतां

हांव मनीस जगून मरता
मातयेंत सारें जावन किल्लतां
फळां रूपान झाडार पिकून
मनशां कुडींत जीण व्हांवयता
हाचेंच मागीर वीर्य जातकच
पर्तुन मनशा जल्म घेतां

*वास्को :२६-२-१९८६*

# जादवाच्या गांवांत

जादवाच्या गांवांत
झाडा झाडाक चॉकलेटी
मन म्हजें उडटा थंय
जावन ल्हान बिरमोटी

जादवाच्या गांवांत
चंद्र जसो फुटबॉल
खोंट मारल्यार उडून
घुंवता गोल गोल

जादवाच्या गांवांत
फुलां जातात पाखे,
आयस्क्रीम कशें दिसता
मळबाचें फळ पिकें

जादवाच्या गांवांत
सूर्य रातचो उदेता
म्हजे न्हिदेंत म्हाका
आख्खो गांव भोंवडायता

१०-३-८६

# म्हजी गिरेस्तकाय

म्हजे जिणेचो जमाखर्च मांडून
हांव म्हजे गिरेस्तकायेचो
विचार करतां तेन्ना
म्हाका हांवच
संवसाराचो धनी कसो दिसतां

म्हजी गिरेस्तकाय कितें?
जोडलें कितलें मोडलें कितलें
हाचो हिशोब धड न्हंय
आनी जोडी-मोडीचो
एकामेकांचेर विस्वास केन्नाच आसना

तरीय म्हजी गिरेस्तकाय तोखणायेची!
म्हजो एक आसा सूर्य
तो म्हजी जीण
उजवाड-भरीत भांगरा झरीन भिजोवन
म्हजे मुखार ऋतू-ऋतूंच्यो परयो नाचयता

म्हजो एक आसा चंद्र
तो म्हज्यो राती चान्याान विरगळायता
आनी तो आसना तेन्ना
काळख्यो राती नखेत्रांची माणकां मोतयां
म्हजे वाटेर शिंपडायतात

म्हजें एक आसा मळब
ताची चाल-चलणूक ज्युस्त म्हज्या मनावरी
मुदार जायत रावून
केन्ना निरभ्र, स्तब्ध, स्थितप्रज्ञ कशें
खोल-खोलायेच्या विस्तृततायेंत शेणटा

केन्ना हेंच मळब येवजणेच्या कुपांनी
थतर-वितर जावन घडघडटा
केन्ना फुडाराच्या जैताच्या
जांबळया निळया कुपांतल्यान
रुजून फुडार धोलयता

ही म्हजी गिरेस्तकाय
जी जोडी-मोडी भशेन केन्नाच सोंपना
ती हांवें सगळ्यांखातीर दवरल्या उक्ती
जाय जाल्यार ताचो
कोणाकय वांटेकार करपाक

*वास्को : मार्च १९८६*

# इराक-कुवेट झूजः १५ जानेवारी १९९१

विसाव्या शेंकड्याच्या निमण्या दसकांत
भितर सरतनाच
हो कसलो काळोख अनिश्चितातायेचो
पातळ्ळा मनीसकुळयेचेर
सगळे पृथ्वीक घुस्पटावन
आनी स्वास अंदून
रगताचे पाट व्हावोवंक सज्ज राविल्लो?

कोण असो हो काय
दाखोवंक सोदता जगाक
आपलो जिणे प्रवास आसा म्हूण
रेंवाटांतल्यान रेंवाटाकडेन?
जो अख्खे मनीसकुळयेक
जावन रावला आव्हान
लक्षवेधी भिरांकूळ क्षेपणास्त्रांचें
आनी संहारक रासायनीक अणुअस्त्रांचें?

कश्टांच्या उत्पत्तीतल्यान स्थितीची तांसां
सगळे वटेन आपलीं आंगां
विविधतायेन प्रदर्शयताना
कित्याक येवजता काय कोणाकोणाक
लयेची अवदिसा
काळचक्राक परतें घुंवोवन
वैभवाची सपणां मातयेभर्वण करीत
मनीसकुळयेक
रेंवाटावटेन व्हरपाक?

*वास्को : ३०-१-१९९१*

# वसुंधरा

हांव दोळे धांपून
करतां ध्यान हे वसुंधरेचें
जी आपल्या अंतरात्म्यांत
अनंत सामर्थ्याचो खजिनो घेवन
करता एकसारकी भोंवडी चिरंतनाची :

काळखातल्यान उजवाडाकडेन
उजवाडांतल्यान प्रगतीकडेन
प्रगतींतल्यान दिव्यत्वाकडेन

तिचें नित्य-नवेलें प्रसवण
म्हज्या अंतरात्म्याक अखंडीत
अनंतकाळाच्या अजरंवराचो
साक्षात्कार घडयता

*वास्को : ३०-१-१९९१*

# कोयर

वचत थंय सगळ्याक
कोयरच कोयर

कोयर फळां खावन
उडयल्ल्या साल्लांचो
कोयर नाका म्हूण उडयल्ल्या
पांयांतल्या व्हाणांचो

कोयर, कोयर कसो आपटतल्या
गर्देंतल्या मनशांचो
कोयर तकली पिकार करतल्या
वांजुडश्या विचारांचो

विसव घेवंक बागेंत गेल्यार
करकर खोलयांच्या कोयराचो
मसुंडेंत गेल्यार
कोयर मेल्ल्यांच्या हाडांचो

देखून हांवे अंतराळाचे पोकळेंत पळयलें
जाल्यार थंयसरय कोयर कसल्या कसल्या गॅसिचो,
उंवाळिल्ल्या यानां-रॉकेटांच्या प्रदुशणांचो
नदर म्हजी मोटवी करून
घुस्पावन घुसपल्ल्या विखाळपणाचो

*वास्को : १-७-१९८६*

# म्हाका दोळे आयल्यात

म्हाका दोळे आयल्यात
आनी सगळें जगच
दिसपाक लागलां जागावेगळें

हांव सदचेवरी
सुर्याक पळयतां
तेन्ना तो म्हाका दिसता
हुमकळपी हाडांचो पांगळो सांपळो गर्भगळीत

हांव म्हज्याच दोळयांनी
म्हाकाच पळयतां
तेन्ना हांव म्हाकाच दिसतां
हाडांचो सांपळो
म्हजोच म्हजेवेलो विस्वास काडिल्लो

हांव काचाबूल जावन
भर गर्दैंत बाजारांत येतां
तेन्ना सगळयो वस्ती, मनीस
खोंपी-घरां-पालासी
थीर तशो हालपी आकृतायो
हाडाचे सांपळेच दिसतात

बेगीन बेगीन देवळांत वचून
पळयतां हांव देवाची मूर्त
तेन्ना ती मुर्तय म्हाका दिसता
हाडांचो सांपळो सत्व नाशिल्लो

अशे म्हाका अजापी दोळे आयल्यात
आनी दोळयांमुखावेलें सगळें
दिसपाक लागलां जगावेगळें
जसो हो संवसारच जाला सांपळयांचो बाजार

*वास्को : ८-७-१९८६*

# देवमनशाचो सेर्मांव

देवमनशाचो सेर्मांव
लोक चोम्यांनी जमून आयकतात
आनी आपले तकलेंतले दोंगर काळखाचे
नवे जाणविकेच्या उजवाडान पर्जळायतात

देवमनीस सांगता :
मनीसजीण एक उमाणें
जाची जाप सृजनतायेची मेळना कोणाक
देखून त्या अदृष्य नियंत्याच्या सृजनतायेचो
सोद ताका लागतलो कसो?

हो अदृष्य नियंतो सृजनतायेचो
येता आमच्या दारांत सुर्याच्या रूपान
दिवंक जाणविक दिसा फाटल्यान येता रात
जशे जिणे उपरांत मर्ण.
मात तो नित्य नेमान आसता उदेत
अस्त वचपाखातीर

पुणून जल्मल्लो मनीस मरून
जाता काबार सासणाचो सासणाखातीर
जशी एक वस्त फिकी तेज नाशिल्ली
जिणे सपन जियेतां जियेतां
भंगून वचची कांयच न्हंय कशी

हाकाच लागून आमचे जिणेक आसा गरज
त्या उजवाडरूपी सृजनतायेच्या सुर्याची
देखून आमी जणएकलो
ह्या सूर्याकच आख्खो
आमचे भितर भरसुया
केन्नाच अस्त ना जावपाखातीर

आनी आमी सगळेच जावया लखलखीत सूर्य
जो एकूच आसलो जाल्यारय
तो आमकां जण एकल्याखातीर
जसो किंतें एक एक जावन आसा

हांव तो सूर्य पळयतां
म्हजे भितर विर्गळायतां
तेन्ना तो म्हजेंच प्रतीक दिसून
तो सगळो हांवच सो दिसतां.
तुमींय तो जणएकलो
तेच नदरेन पळयात
तुमकां तो तुमचे जणएकल्याचें प्रतीक दिसून
तो एकूच सूर्य तुमकां जणएकल्याखातीर
एक एक आसा कशें दिसतलें

देवमनशाचो सेर्मांव
लोक चोम्यांनी जमून आयकतात
आनी ते मातयेची रितीं आयदनां कशे आशिल्ले
ल्हवू ल्हवू थंयचे थंय
स्वयं-उजवाडान भरून
ल्हव ल्हव जातात!

*वास्को : १०-७-१९८६*

# सत्याची अस्मिताय : गोंय १९८६
## कोंकणी राजभास चळवळीच्या दिसांतले गोंय

सत्याच्या अस्मितायेचे
साक्षात्कारी पूत स्वअस्तित्वतायेचे राखणेखातीर
सोरपा पिले कशे दुस्वाशांक
दंश करीत भोंवतात
आपलें निजाचें सत्य
पावणेर वचूंक लागत म्हूण,
आपल्याच घरांत आपणाक
परकी जावन
सत्वा विरयत जगचें पडत म्हूण

त्या साक्षात्कारी सोरपा पिल्यांक
कोण आडावंक शकतलो?
कोण चेंचूंक शकतलो?

श्रीकृष्णान गीतेंत सांगूंक ना?:
धर्म जेन्ना अधर्म जावन
करता पिडापिड सत्याची
तेन्ना मनीसकुळयेक
नवो मंत्र दिवंक
हांव नवो जल्म घेतां,
अधर्माचेर शेक चलोवन
धर्माची नव्यान थापणूक करतां!

*वास्को : १२-८-१९८६*

# बोमाडे

बोमाडे वाऱ्यान फुलिल्ले, फुगिल्ले तरातरांचे
कांय हुबतात वयर घेत थाव मळबाचो
कांय आळशी रावतात दवरता थंय तशे
कांय व्हांवतात वाऱ्या बराबर कशाय कशे

बोमाड्यांचें आंग मोव मोव गुबगुबें
मन-भुलवण्या इंद्रधणूच्या सात रंगांचें
कांय बोमाडे सुपुल्ले ल्हवपीक कंवळे
कांय येद्दे जशे भरिल्ल्या वाऱ्याचें पोतें

कांय बोमाडे हुबून लागनात परत हाताक
कांय भागून जातात ल्हान ल्हान एकसारके
कांय ठो फुटून निर्जीव पडटात भुंयेचेर
कांय उरतात तशेच फुलपाची पळयत वाट

बोमाडे आसतात जतनायेन फुलवचेले
बोमाड्यांत मनीस जिणेचें कुवाडें सुटनाशिल्लें

*वास्को : २४-३-१९८७*

# कलकत्ता

कलकत्ता
तूं तुज्या नव्या मनीसरूपी आविश्काराची
कसली भेट
जगाक भेटोवपाची आसा?
कलकत्ता तूं काळीज
फकत बंगालचेंच न्हंय
तर तें काळार तासां मुद्रावन
जगाक नवी नदर दिवपी
अख्ख्या भारताचें !

तुज्या आविश्काराची सृजनशील पुतांनी
काळाकाळाक
कळमेल्ले विचारसरणेक भायर मारून
नव्या नव्या विचारांची संजीवनी दिली
आनी काळाक
व्हांवतो दवरलो!
ॐकाराचो पयलो नादब्रह्म
तुज्याच मळबांत गाजला जावंक जाय

कलकत्ता तुज्या प्रज्ञावंत पुतांच्या कर्तृत्वांतल्यान
ब्रह्म विचारांचो उजवाड
धायदिकांक गिन्यान दित फांकारलो,
क्रांतीची तरसाद गर्जना करीत
रगत मागीत लखलखली,
शांतिनिकेतनाचे रूखावळींतल्यान
रंगयाळया शब्द-चित्रांची माणकांमोतयां
संवसारभर किणकिणलीं
जिणेक परिमाण दिवपी
पुर्णयोगाची सिध्दी
तुंवेंच जगाक विशाळमनान भेटयली

कलकत्ता तूं जशी कितें आत्मगिन्यानी आवय
वळखून गरज काळाची
घालता जल्माक नररत्न काळाचे गरजेप्रमाण!
देखून कलकत्ता म्हाका सांग
ह्या शेंकड्याच्या द्वापर युगांत आमी आसताना
आपणाल्या स्वयंभू उजवाडान
ह्या भांबावलेल्या जगाक
चैतन्याची दिका दाखोवपाक
कसल्या आविश्काराचो भुरगो
तूं मनीसकुळयेक भेटोवपाची आसा?

*वास्को : डिसेंबर १९८९*

# पत्र

नमस्कार
तुमचें पत्र पावलें.
तुमी म्हज्या कवितांचो पावस मागला.
हालींसराक म्हज्या कवितांचो झरो आटून
मनां भोंवतणी किण्ण पातळ्ळां.

ताका लागून हो भायलो
दडकांनी रकपी काय रडपी पावस
म्हाका भिजोवंक शकना
म्हाका फुलोवंक शकना.

मन खंयच्यातरी अदिश्ट प्रवाहाची
वाट पळयता.
हो प्रवाह येवन म्हाका शॉक दितलो
आनी हांव भायल्यान-भितरल्यान
घसाघसा हालतकच
म्हाका म्हजेंपण मेळटलें

ते मेरेन
म्हजे कवितेची वाट पळोवची.
असोच मोग आसचो
बरें मागून...

*वास्को : जुलै, ३०, १९९१*

# धर्म

तूं मनीस तो मनीस हांव मनीस
आमी सगळे हाडामांसाचे मनीस
तुजो हो देश, ताचो हो देश
म्हजो हो देश
आमचो सगळयांचो हो देश
आनी आमचीं पाळां मुळां
हे मातयेंत खोल खोल रुजिल्लीं

हे सृजनशील पृथ्वीवेले
आमी कांय काळाचे भोंवडेकार
तिचे वांगडा घुंवत राविल्ले
आनी घुंवता घुंवता एक़ दीस नाच्च जातले
हे अनंत थाव न लागपी
अजापांनी भरिल्ल्या ब्रह्मांडांत
पृथ्वी सांगातान प्रवास करताना

हांव देवळांत वतां, तो गुरुद्वारांत
आनी तूं मशिदींत वचून
आमी आमच्या ईश्वर, रब, अल्ला
अशी आमी नांवां दिल्ल्या
एकाच सर्वेश्वराक पुजतात

तशें पळोवंक गेल्यार
आमची सगळयांची प्रार्थना
एकाच ध्येयाक मेळून
ताचो स्रोत ह्या ब्रह्मांडाच्या
अनंततायेक दिता अर्थ
जाल्यारय आमी आमकां मानतात
हिन्दू शिख मुसलमान

आयज आमी एकठांय बसून करया गजाली :
आमी सगळे हाडामासाचे मनीस
हे पृथ्वीवेले भोंवडेकार
जाल्यार हांव कोण? हिन्दू
तूं कोण? मुसलमान
तो कोण? शिख
हांव हिन्दू कित्याक? तूं मुसलमान कित्याक?
तो शिख कित्याक?
कारण आमचे जल्म
आमच्या हातांत नाशिल्ले म्हूण

देखून आमी आतां ह्या निर्णयार पावयाः
आमच्या हातांत नाशिल्ल्या
आमच्या जल्माक ना तात्वीक बुनयाद
ते फावो जाल्यात आमकां
कसलेच हेतू नासतना
जशो आडवळणार
आंगार येवन पडच्यो वस्ती
केन्ना चितूंक नाशिल्ल्यो
आनी त्यो वस्तीच जांवच्यो जिणेचीं वस्त्रां

हाका लागून
भावांनो दिवया भिरकटावन
आमी आमच्या अकलेचीं
आनी अडेचीं बंधनां
आनी करून भौमान
एकामेकांच्या धर्मांच्या पवित्रतायेचो

आमी मंनीस म्हूण एकामेकांक वेंगोवया
आमची जिणे बुनयाद घट करया
आनी चिरंतनाच्या मुळावणांतल्यान
लखलखपी सुर्याचेर
आमच्या मनीसकायेच्या
एकवटाचें झाड लावया

*वास्को : डिसेंबर, १९९०*

# म्हज्या देशांतले राखीव जागे

म्हज्या देशाक जालां कितें?
वचत थंय सगळेच
आडायतात "राखीव जागे"!

पैशेकार करतात
आस्थापनांची थापणूक
आनी "राखीव जागे" भरचे तशे
आपल्याच नात्यागोत्यांच्या मनशांक
पयलीं आसपावन घेवन
दवरता तांचे वरवीं
त्या आस्थापनांच्यो चावयो
आपलेकडेन

धनीक समाजाच्या उध्दाराखातीर
करतात सुरवात वर्तमान पत्रांची
आनी संपादकापसून
सगळया मुखेल पदांचेर
आपल्याच हयबांची
"राखीव जागे" भरचे तशी
नेमणूक करून
वर्तमान पत्रांची रद्दी
भायर घालीत रावतात

"राखीव जाग्यांच्यो" सोर्ती
खूब भशेन फुटूंक शकतात
नशिबवंतांक म्हज्या देशांत
त्यो जांव येतात गुड्ड्यांनी,
नोटीनीं व भाड्याक पडून
हाका जात, कात, भास, भेस
कांयच आड येवंक शकना

सरकारय करता भरती "राखीव जाग्यांची"
आनी लायता पोटाक जांकां
जे जल्माक येतनाच घेवन येतात
आपल्या नशिबांत
शत-सहस्त्र युगांचें गिराण
जें तांच्या मरणां उपरांतय
सुटूंक शकना
आनी अजाप हाजीच तकली-फोड
म्हज्या देशाच्या 'सेक्युलर' समाज मनाक
जावंक लागता!

हें कितें घडटा म्हज्या देशांत?

*वास्को : डिसेंबर, १९९०*

# वर्तमान - पत्रां

वर्तमान - पत्रां हारसो समाज-जिणेचो?
वर्तमान पत्रांची रद्दी दर दिसा
म्हज्या हातांत येवन पडटा.
हांव तांचेर नदर भोंवडावन
पानां परतीत रावतां
जाल्यार सगळया वर्तमान पत्रांनी
त्योच खबरो, तींच चौकटां,
एकासारकींच संपादकीयां
आनी घांसून घांसून गुळगुळीत जाल्लीं
तींच तींच मतां!

हांव सगळया वर्तमानपत्रांनी सोदतां
मनीसजातीच्या उत्कर्षाची नांदी,
हांव सोदतां म्हजे कल्पनेतलो
सुंदर संवसार
जंय मनीस मनशाक
मनीस म्हूण वळखता

पुणून दुर्दैव
मनीस करतनाय आकांताची भौतीक प्रगती
चलता फाटल्या पांयांनी
विनाशाची वाट
आनी आपली पोळी भाजपाक
चलयता अखंड फित्रुसां
मनीसकायेक लज हाडीत
सुवार्थाखातीर ध्येयां पावणेर काडीत

दर दिसा सकाळींफुडें जाता हांवें येवजिल्यार
वर्तमान पत्रांच्या रद्दींत

घुस्पून उफेवंक लागिल्ल्या विचारांचो
धांपिल्लो फायचो उजवाड
निरागस खळखळून हांसतलो म्हूण?
आनी एक दीस वर्तमान पत्रांच
मनीसकायेचो संदेश पावोवपी वाहनां जातली म्हूण?

*डिसेंबर, १९९०*

# सैम-सृजन

सैम सृजनाचें भांडार
ऋतूऋतूंतल्यान रूपकाराक येवन
इंद्रधणूच्या रंगांनी
हे वसुंधरेक प्रसयत रावता
हें सामान्य मनशांचें केदें नशीब?
हाची चावी जर
फुडाऱ्यांकडेन, सत्ताधिशांकडेन
पैशेकारांकडेन आशिल्ली जाल्यार?

ते करपाचे नियंत्रण
नितळ-निर्मळकायेन व्हांवपी प्राणवायुचें,
अचळय उदेवन अस्तवपी
सत्वयुक्त सुर्यकिरणांचें,
अंतस्कर्ण सात्वीक भावनेन भरून तटतटून
दारांत रकतल्या उदार कुपांचें
आनी दिवपाचे
आमच्या स्वासांची चावी आपल्या हातांत

फळ मातयेंत कुसून किल्लता तातुंतल्यान
नवो रोंपो सदाकाळाखातीर तरतरपाक
आनी हांव पळयतां भावार्तान
सैमाचे सृजनतायेंत
हो नवे जाणविकायेचो रोंपो
दिशीं-माशीं वाडत रावन
घालतलो म्हूण पृथ्वीचेर
सावळी विश्व-कल्याणाची

*डिसेंबर, १९९०*

# मुंबय

जंगला भशेन हें शार अटंगें बिल्डिंगांनी घुस्पलां
उपऱ्या सुखांच्या झगझगाटांत मनीस शेणूंक लागला

जण मनीस भोंवरो कसो सारको घुंवघुंवता
गती शारा अंदून गेल्यार जातलें कितें काळा?

ऑफिसांनी मेजामेजार फायलींची चिकित्साय
तांबड्या फितां गांठ सदळ लांच करूंक लागला

शाराचो ह्या रोग चिरंतन रावता उब्यो खोंपी
मागीर मोडून त्याच जाग्यार बिल्डिंगांची संकुलां

माकनांची घरघर सोडून गेलीं शेवणीं पळून
मनीस झापडां लावन, बुनयाद शेणोवन बसला

चंद्र सुर्याक मळबांत पळोवंक भान गा कोणाक?
चान्नें, वोत मुद्रावन वतात नकसूद पावलां

साबार धर्मां प्रार्थने थळां गदर्यांनी भल्लेलीं
काळ मुखार सरत आसा हांची थंयच वर्तुळां

मुंबय अशी सदचेवरी दिसली जरी घुस्पल्ली
वायट बऱ्या कर्मां हांगा पेट्टा पयलीं जोगलां

*मुंबय : ८-२-१९९१*

# सैम-सृजन

सैम सृजनाचें भांडार
ऋतूऋतूंतल्यान रूपकाराक येवन
इंद्रधणूच्या रंगांनी
हे वसुंधरेक प्रसयत रावता
हें सामान्य मनशांचें केदें नशीब?
हाची चावी जर
फुडाऱ्यांकडेन, सत्ताधिशांकडेन
पैशेकारांकडेन आशिल्ली जाल्यार?

ते करपाचे नियंत्रण
नितळ-निर्मळकायेन व्हांवपी प्राणवायुचें,
अचळय उदेवन अस्तवपी
सत्वयुक्त सुर्यकिरणांचें,
अंतस्कर्ण सात्वीक भावनेन भरून तटतटून
दारांत रकतल्या उदार कुपांचें
आनी दिवपाचे
आमच्या स्वासांची चावी आपल्या हातांत

फळ मातयेंत कुसून किल्लता तातुंतल्यान
नवो रोंपो सदाकाळाखातीर तरतरपाक
आनी हांव पळयतां भावार्तान
सैमाचे सृजनतायेंत
हो नवे जाणविकायेचो रोंपो
दिशीं-माशीं वाडत रावन
घालतलो म्हूण पृथ्वीचेर
सावळी विश्व-कल्याणाची

*डिसेंबर, १९९०*

# मुंबय

जंगला भशेन हें शार अटंगें बिल्डिंगांनी घुस्पलां
उपऱ्या सुखांच्या झगझगाटांत मनीस शेणूंक लागला

जण मनीस भोंवरो कसो सारको घुंवघुंवता
गती शारा अंदून गेल्यार जातलें कितें काळा?

ऑफिसांनी मेजामेजार फायलींची चिकित्साय
तांबड्या फितां गांठ सदळ लांच करूंक लागला

शाराचो ह्या रोग चिरंतन रावता उब्यो खोंपी
मागीर मोडून त्याच जाग्यार बिल्डिंगांची संकुलां

माकनांची घरघर सोडून गेलीं शेवणीं पळून
मनीस झापडां लावन, बुनयाद शेणोवन बसला

चंद्र सुर्याक मळबांत पळोवंक भान गा कोणाक?
चान्नें, वोत मुद्रावन वतात नकसूद पावलां

साबार धर्मां प्रार्थने थळां गदर्यानी भल्लेलीं
काळ मुखार सरत आसा हांची थंयच वर्तुळां

मुंबय अशी सदचेवरी दिसली जरी घुस्पल्ली
वायट बऱ्या कर्मां हांगा पेट्टा पयलीं जोगलां

*मुंबय : ८-२-१९९१*

# डॉ. बाबासायब आंबेडकार

तूं सूर्य जावन उदेलो फाटीं-उरिल्ल्यांचे जिणेंत
आनी उजवाडाच्या पसयेक
वळवळटाले तांचे जिणेक
तुंवे लायले दुवाळे उजवाड रोयणेचे

तुजे विचार जावन सुरींग विद्रोहाचे
फोडीत गेले खडपां नश्टच्या पाथावळींचे
आनी मनीसकायेक भुकेल्लीं फाटीं-उरिल्ल्यांचीं काळजां
अणभवूंक लागलीं उकत्या मळबाची खोलाय-उंचाय

तुजे कर्तृत्वाच्या, पुण्यायेच्या म्हालवजार
फाटी-उरिल्ल्यांचे जिणेची वाट आयज जाल्या सोपी
आनी जे वाटेवेल्यान ते वतात मुखार
ते वाटेक संवसाराच्यो सगळयो वाटो एकवट्टात!

*वास्को : २२-४-१९९१*

# चार ल्हान कविता

१.

दुखावल्ल्या सोरपा, म्हाका
दंश करून कितें मेळ्ळें?
वीख पचयतच जियेतालों हांव
कित्याक तुजें व्हगडायलें?

२

केन्ना केन्ना शाणे मनीस
म्हाका पिसो थारायतात
कितें सांगू? पिशे मनीस
म्हजेर राज चलयतात

३.

एक तुजो घाय म्हाका
जिणभर पोखरतलो
खात्रीन सांगतां तसलोच घाय
तुकाय बी सतयतलो

४

कश्ट हांवे काडले आनी
जिणे मळो फुलयलो
श्रेय ताचें घेवपी कितले
एकलो एकलो आयलो

*पर्वरी : ९-७-१९९२*

# जायां घमघम

केंसांतुलो जायां घमघम मन घुस्पायता
हुबून गेल्लीं साबार वर्सां दोळयार जागयता

केंसांतुलो घमघम तसो तुजो गोड सांगात
नशीब म्हजें पर्मळ न्हांवन सुखांक भिजयता

फुलोवन मळो श्रावणाचो मळब चंवरलां
पळय कशें पावस-वोत आमकां खुणायता

वर्सां काळ धांवत रावूं जिणे मळो फुलूं
जिणच आमची जांव एक पर्मळीत कविता

*पर्वरी : जुलै १९९२*

# शिगमो

उल्हासाचे घेवन रंग आयलो शिगमो आयलो
रंगांचेर रंग भरसून रंगता रंगा सुवाळो

रंगांचें न्हाण न्हावन नितळल्यांत मनां
सैमाच्या रंगी आंगार साज नवो चडलो

धोल ताशे बडयत गाजयत नाचत आयले मेळ
देव पसून रथांत बसून नाचूंक धोलूंक लागलो

रंगाचें ह्या केदें अप्रूप गळटा कृत्रीमताय
पिळगी वचून पिळगी येता गाजोवंक आपलो उलो

*पर्वरी : २१-१-१९९३*

# व्याख्या

सावकाराची व्याख्या बदलल्या काळा प्रमाण!
पयलीं सावकार दितालो पैसो आडको रीण म्हूण
आनी करतालो वसूल
कळांतरासयत म्हयन्या हिशेबान

आतां सावकाराचो जागो घेतला सरकारान
आनी सरकार करा रूपान, लांचे रूपान
करता वसूल आपलो वांटो दिसपट्टो
गरजेवंतांच्या बोल्साक बुराक करीत

पयलीं खंय सावकार गरजेवंतांक पिळटालो
आतां सरकार तर वेगळें कितें करता?

*पर्वरी : १४-२-१९९३*

# म्हज्या काळाचोच गवाय

चलतल्या चालंत काळा कुरवो पुंजायता
म्हज्या काळाचोच गवाय जावन हांव भोंवतां

जिणेच्या दिवपा घेवपांत आपटतात मनीस
मिरयतल्या सुवार्थ्यांचे बुरखेच पिंजता

धर्मपिठां जाल्यात मिरास पोटां भरिल्ल्यांची
तांच्या ज्ञानां बडवचार पावणेक लायता

उंच-उणाक उद्घोषांचो देश म्हजो पोन्नो
जाती धर्मां नांवान हांगा मनीसपण घाणटा

जिणेचे प्रस्न मांडपी आसता सगळेच
दिव्य जिणे संकल्पनेक रुजोवंक आशेता

*पर्वरी : १०-७-१९९२*

# पिठाची गिरण

म्हज्या कॉलनीतल्या
गिरणींत दळिल्ल्या पिठाविशीं
घराघरांनी एकूच चर्चा :

गिरणींतल्यान आमकां भेसळीचें पीठ मेळटा...
गंवाच्या पिठांत जोंदळयाच्या पिठाची भेसळ
जोंदळयाच्या पिठांत बेसनाचो अंतर्भाव
बेसनाच्या पिठांत तांदळाचो शिरकाव
आनी कितें कितें....

हांव शेजाऱ्यांक समजायतां :
बाबांनो जाता आसत गा भेसळ
आनी भरसता जायत पीठ एकामेकांचें
पुणून माक्नाच्या पात्रांत
गिरणवालो दळूंक वडयता
तेन्ना तें दळप
गंगेच्या पात्रांत पडिल्लेवरी
सगळो पात्सो काडून
गिरणींतल्यान आमकां
नितळ निर्मळ पवित्र पीठ मेळटा
अशें आमी कित्याक मानचें न्हय?

हरशीं म्हजे कॉलनीतले लोक
तरेक जाती वंश धर्मांचे
विंगड भासो भेसांचे
गिरेस्त, पादीशेर, अहंगंडी
एकामेकां मजगती
अंतर राखून वागतात
एकामेकांक टाळूंक सोदतात

पूणुन -
गिरणीच्या दारांत गर्दी करून
ताकतिकेन आपले डबे
अग्रक्रमान
दळपाखातीर मांडून दवरतात

गिरणवाल्याक
खंयच्या जाती, वंश धर्माच्या मनशान
डब्यांत कसलें दळप दळूंक हाडलां
हाचें कांयच पडिल्लें आसना

तो एकाफाटल्यान एक डबो उगडून
कसलोच भेदाभेद करी नासतना
माक्नाच्या पात्रांत रकयता
आनी डब्यांत पीठ भरून
एकल्या एकल्याक आवियार करीत रावता

म्हज्या कॉलनींतल्या समेस्त लोकांक
भेसळीचें पीठ खावोवपी
ह्या पिठाच्या गिरणीचें
केदें व्हड आनी उंचेलें तत्वगिन्यान!
जी आपणाल्या पोटांत
बारीक मोट्या सगळ्या मनशांचें दळप
कसलोच आडपड्डो दवरीनासतना करता
व्हड मानवतावादी अंतस्कर्णान...

*पर्वरी : ३०-०९-१९९३*

# पार्टी

पार्टेच्या निमतान
ह्यो मांडून दवरिल्ल्यो सोऱ्याच्यो बाटल्यो
आनी ह्या बाटल्यांक पळोवन
मांडे रचपी
ही SSS गर्दी

बाटल्यांतलो सोरो तरेक रूचिंचो, तरेक रंगांचो
शांत आनी स्थितप्रज्ञ
भोंवतणच्या लोकांक पळयत
भितरले भितर निरूपद्रवी कसो

आतां थोड्या वेळान ह्यो बाटल्यो
कचाकच उगडून
ग्लासांत रकतल्यो
आनी मागीर तो सोरो
ह्या लोकांच्या रगताक झिंगयतलो

तेन्ना कांय मनीस
माकडावरी कुदून फातरा युगांत प्रवेशतले
कांय व्हांवत्या गटारांत कशे व्हांवतले
कांय मेंदू भेरेवन सर्गाक अणभवतले
कांय फटकिऱ्या सुखाच्या पाळण्यांत
धोलत न्हिदतले
कांय दुख्खाची खवळी काडून
मुक्त जातले

तें कशेंय आनी कितेंय आसूं
ह्यो सोऱ्याच्यो
तरेक रंगी, तरेक वासांच्यो, तरेक रूचिंच्यो
मांडून दवरिल्ल्यो बंद बाटल्यो
स्थितप्रज्ञ निरूपद्रवी कशो दिसपी
आतां कचाकच उगडून
ग्लासांनी रित्यो जातल्यो?
ना! आतां पार्टेक जमिल्ले लोकूच
ह्या बाटल्यांनी बंद जातले

*पर्वरी : ३०-०९-९३*

# हांव एकसारको धांवत

हांव एकसारको धांवत रावलों
आनी धांवून धांवून खर्शेत
खूब मुखार पावलों
अशें मनाक दिसलें म्हूण
फाटीं वळून पळयल्यार
हांव पयलींच्याच जाग्यार
तसोच एकलो एकसुरो

धांवून धांवून मुखार पावपाचे आशेन
हांवें आपणायल्ले आनी हुपिल्ले
आडे तशेच पूल
निवळायत अटंगी रानां
हुमटून काडिल्ले आडखळींचे दोंगर
करीत उबे जाग्या जाग्यार
श्रध्देचे हिमालय

हांव आतां निश्चल आसून ना कसो आनी
जे जाल्ले उबे श्रध्देचे हिमालय
तेय थंयचे थंयच वितळून
जाल्यात भुंयभर्वण
म्हजे भाबडे श्रध्देचे
कुडके कुडके म्हजेरूच शेंवटून

आता जंय हांव एकसुरो उबो
थंयच साकारता नवो जाणविकायेचो हिमालय
सांगातान म्हाका केंद्रबिंदू कसो उबारून
सगळे वटेन म्हजेच स्वअस्तित्वतायेचीं किर्णां व्हांवयत
जांकां ध्यास
सासणाखातीरच्या कर्तृत्वतायेचो

*पर्वरी : ८-१०-९३*

# मराठवाडा भुंयकांप १९९३

सुस्त शांत न्हिदिल्ल्या रातीच्या पांगरूणा पोंदा
ही कसली अदृश्य जोगलावणी
कोणें केलो हो भुंयकांप हाडपी
धर्तरेच्या गर्भांतलो कार्यान्वित रिमोट कंट्रोल?

खिणाभितर दयामाया दाखय नासताना
उद्ध्वस्त जालो एकाच मापान
खेळण्यांत मांडिल्लो कसो
सगळो मायेचो पसारो!
कोणें केलो काय हाका फितूर
कलियुगाचो दचको दाखोवंक?

उद्ध्वस्त जाल्ल्या ह्या भिरांकुळ मड्यांच्या राशींनी
बेवारशी, निर्वासित जावन पडला
जात, वंश, धर्म, भेसांचें लटकें तत्वगिन्यान
आनी अजाप!
जितीं जागपी मडीं कशे चुरचुरपी लोक
हो सगळो देखाव
मनीसजात एक हेच नदरेन पळयनात?

धर्तरेच्या गर्भांतलो कार्यान्वित जाल्लो
हो रिमोट कंट्रोल;
होच घडयतलो कांय प्रळयांतल्यान
ईश्वराच्या इच्छीत
मनीसजातीच्या दिव्य जिणेच्या घडणुकांक आकार?
आनी शिकयतलो काय मनशांक म्हणपाक :
एक आमची पृथ्वी, एक आमची मनीसजात

*पर्वरी : ४-१०-१९९३*

# मूय आनी हांव

म्हज्या आंगार ल्हान मूय
हुसक्या विरयत भोंवता
आपणाक जाय तेन्ना
म्हाका चाबता
आपल्याच बापायचो फांत कसो
म्हाका वागयता

हे मुंयेक बाबडेक खंय खबर
दामल्यार एका बोटान हांवें
चिड्डून ती मरतली
मारल्यार ल्हवशीच फूंक
खंयचे खंय हुबून वतली

हे मुयेंत आनी म्हज्यांत
आसा एक सारकेंपण
आसा जसो जीव तिका
तसो म्हाकाय आसा
आनी करपाक साबार कामां
आसात आमकां साबार आंगां

इल्लेशे मुयेक हे
म्हजो देह दिसपाक येदो व्हडलो
शक्यच ना
म्हजे बुद्दीचो, कल्पना शक्तीचो
थाव घेवपाक तिका जमपाचेंच ना!
अशें हांव म्हणचो ना

म्हाका तरी खंय कळटा अर्थ

म्हजे चलणुकेचो आनी कर्तुबांचो?
हांवय थाव न लागपी
सैमान रचिल्ले रचणायेक
हे मुयेवरीच वागयतां
आनी तिचेवरीच
अज्ञानान जीण सारतां!
हें तितलेंच खरें न्हंय?

अशें आसलें जाल्यारय
ही मूय आनी हांव
ह्या अफाट कल्पनेभायले
ब्रह्मांडामुखार एकाच रचणारान
थारावीक काळाखातीर वावुरपाक रचिल्लीं
इल्लीशीं कुस्कुटां
हें सत्य कोण न्हंयकारूंक शकतलो?

*पर्वरी : १४-१०-१९९३*

# चित्र भारतवर्षाचें

इश्टा पळय हें चित्र भारतवर्षाचें
दिव्य घडणुकेचें चित्रण करपी
कितलें जिवें आनी तटतटीत!
मनीसजातीच्या अर्थावणेचें आस्वासन
आसपावल्लें हें चित्र हांवें म्हज्या
जिणेच्या संग्रहालयांत राखून दवरलां
जें म्हाका म्हज्या आज्या-पणज्यान दिल्लें
सोपोवंक तें म्हाका म्हज्या नातरां-पण्टुरांकडेन

पळय ह्या चित्रांतलो न्हंयांचें तीर्थ व्हांवोवपी
उंच चैतन्ययुक्त हिमालय म्हाऋषी कसो
आपणाल्या आंगापांगांतल्यान गंगेच्या रुपान
लाखांनी लोकांक सत्संग घडयत
प्रहसनांतल्यान करता उक्तो
मनीसजातीच्या व्हडविकायेचो खजिनो
ऋतुऋतूंचे उत्सव मांडून
भारतवर्षाक सुजलाम् - सुफलाम् करीत
जसो कितें म्हणतः
हिमालयाचो सुमंगल उलो मनीसकायेक जागयतलो
मनीसजातीच्या एकवटाचो बावटो गर्वान मिरयतलो

ह्या हिमालयरुपी म्हाऋषीचो सुमंगल उलो
वैश्वीक धर्माचो पयलो - वयलो
हांगासल्ल्यानच साता समुद्रार गाजून
पातळायल्लीं अमरत्वाचीं लिकलिकीत ल्हारां
हाडीत जाग विश्वाच्या न्हिदिल्ल्या सुस्त अजागृत मनाक
अशें आमीं आनीक कितलो काळ मानपाचें?
आनी संवसाराक मनीसजातीच्या व्हडपणाच्यो पोक्यो
गजाली आयकयत

विशमतायेचीं कोंडां आमचे मजगतीं
कितली मातोवंक दिवपाचीं?

हें चित्र भारतवर्षाचें मनीसजातीचे अर्थावणेचें
आसा म्हाका म्हज्या नातरां-पण्टुरांकडेन सोंपोवपाचें
जें चित्र मागीर तेय सोंपयतले
आपणाल्या नातरां-पण्टुरांकडेन
पुणून -
तें तांचे सुवादीन करचे पयलीं
म्हाका त्या चित्राचेर म्हजोय एक
प्रवाह चितारपाचो आसा

*पर्वरी : १७-११-९३*

# म्हज्या देशाचो ग्रायंडर-मिक्सर

ग्रायंडर-मिक्सरांत जे परी
साबार तरांचे जिन्नस
एकामेकांत भरसून
तांचो शेवटाक एकजीव जावन
आयदनांत एक समन्वयी
द्रव्य ओततां
तशो साबार समस्या
म्हज्या देशरूपी
ग्रायंडर-मिक्सरांत
आयज घुसळूंक लागल्यात.

आनी हाचो परिणाम म्हूण
वचत थंय
विशमतायेचे लागवडीचे
कोडू फळांचे मळे
वयर सरिल्ले दिसतात.

ह्या कोडू फळांच्या समन्वयांतल्यानच
गोड खावपाचे वेध
समेस्तांक केन्ना लागतले काय?

*पर्वरी : २०-१-१९९४*

# कुवाडें

एकेच खांदयेर एकाच वांगडा
घोंसानी फुलिल्लीं
आतां एकाच वांगडा
विकूंक आशिल्लीं आमी फुलां
आनी पळयात
आमच्या नशीबांतलें कुवाडें!

आमच्या थोड्यांच्या नशिबांत आसा
अस्तुरेच्या केंसांत माळून घेवपाचें
थोड्यांच्या नशिबांत
देवाच्या आंगार पर्मळपाचें
थोड्यांच्या नशिबांत
मरणा-सुवाळो सोबोवपाचें...

विधात्याच्या कर्तुत्वाची
ही कसली निर्मणी!
आनी ताची आमकां भोगपाची
ही कसली मांडावळ?

*पर्वरी : २४-२-१९९४*

# गाय

गायेक नमस्कार केल्यार
३३ कोटी देवांक पावता
अशें सांगून ताणें
आपलें पांयतण काडून
गायेक हात लावन नमस्कार केलो
आनी पर्तुन पांयतण घालून
आपले वाटेन गेलो

भक्तीभावान पांयां पडटल्या
ह्या भावार्ती सज्जनाक खबर ना काय?
आपूण जें पांयतण घालून भोंवतां तें
हे गायेवरीच खंयचे तरी
गायेच्याच चामड्याचें आसा
आनी हे गायेचेंय चामड्याचें पांयतण
फुडें आनीक कोण घालून भोंवतले म्हूण?

*पर्वरी : ८-१२-१९९३*

# मुर्तिकार

भर गर्देंतल्या रस्त्या कुशीक
एका पादीशेर पुणून फिशाल मुर्तिकारान
मांडला विकपाखातीर
तरेक देवांच्या मुर्तिंचें प्रदर्शन

वाटेवेल्या येतल्या-वतल्या लोकांच्यो
ह्यो मुर्ती नदरो वोडून भान हारयतात
आनी तांकां थंयचे थंय थारावन
त्यो घरा घेवन वचपाक फुसलायतात

ह्या फिशाल मुर्तिकाराचीं
पाळां मुळां कितेंय आसूं
पुणून ताचो चुरचुऱ्याचो अवतार पळयल्यार
सुसंस्कृत समाजाचे नदरेन
तो उणाक, उपेक्षीत, ताळपासारको प्राणी!

जाल्यारय हो मुर्तिकार
ब्रह्म निर्मातो, नियंतो ह्या मुर्तींचो
आनी जे जे कोण ह्यो मुर्ती
घरा व्हरून भक्तीभावान पुजेक लायतले
जावन त्यो सचेतन
जातल्यो त्या त्या मनशांच्या जिणेचेंच आंग

आनी हो पादीशेर, फिशाल मुर्तिकार
सगळ्या देवांच्यो मुर्ती निर्मून निर्मून
त्यो विकीतच उरतलो
आनी काळान ताका दवरला जाल्यारय उपेक्षीत
ताच्या कर्तृत्वावरवीं
उरतलो काळच उपेक्षीत

*पर्वरी : १८-११-१९९३*

# मनीसधर्म

पृथ्वी पोसपी पृथ्वी तारपी
घर मनीसकुळयेचें
ईश्वरी शक्तीन नित्य कार्यान्वित
म्हा-तारूं ब्रह्मांडाचें

एकामेकांक पावप होच
धर्म मनीसजातीचो
सगळयांच्या कुडींत व्हांवता
झरो तांबड्या रगताचो

धर्माधीश जे करती फित्रुसां
समजुन विश्वस्त ईश्वरा -
हाडीत लज मनीसकायेक
तांची काकुळट करा

झडिल्ल्यांक पडिल्ल्यांक जो
वोडुन वेंगेंत घेता
हाचोच धर्म जगाक तारतलो
तोच देव समेस्तां

*पर्वरी : १७-११-१९९३*

# क़ाळाची रहस्यताय

गांधीजी
काळाची रहस्यताय कशी कोणाक होलमुची?
तुवें भारताची पराधीनताय हुमटावंक
उत्पादनाची बुनयाद घालून
भिकाड्डेपण पयसांवक
स्वदेशी मोहिमेची चळवळ करून सांगिल्लें:

विदेशी म्हाल न्हंयकारून
आमी उत्पादनायल्लो देशी वापरूया
आमचो पैसो देशांत घणघणावया

गांधीजी तुजो प्रभाव तेन्ना
गांवा शारांनी खेड्या-पाड्यांनी
स्वदेशी मोहिमेची चळवळ तरतरावन
चैतन्याचो बावटो हुबोवंक पाविल्लो
जे वरवीं देशी उत्पन्नाचो वोतो
काल मेरेन व्हांवत राविल्लो

गांधीजी,
स्वतंत्र भारतान आयज
करून मुक्त सगळे निर्बंध
दिल्या भिरकटावन
तुजी स्वदेशी मोहिमेची चळवळ
संवसारभरच्या भांडवलदार देशां मुखार
मांडून पावणी देशाची
तांकां आमचो फुक्या सवाय
कच्चो म्हाल वापरून
उत्पादनावंक स्वदेशी
Made in India म्हाल

आनी हाचो परिणाम म्हूण
पळय गांधीजी भांडवलदार देश
कशे रोवंक लागल्यात पांय
आमचे तकलेर
लादून व्हरत आपल्या देशांनी
आमची गिरेस्तकाय
दवरून आमचे लागीं
आमचें मुळचें दळदीर

तेंय बी गांधीजी
राज्यकर्त्यांच्या आशिर्वादान
जे चलयतात देश तुज्याच नांवान

गांधीजी
काळाची रहस्यताय कशी कोणाक होलमुची?

*पर्वरी : ३०-१-९४*

# रगताचो धर्म

म्हज्या सर्वधर्मी भावांनो आनी भयणींनो
रगताक लागना जात, रगताक लागना कात,
रगताक लागना भास, भेस, पंथांचें सुयेरसुतक.
रगताक व्हांवचें आसता एकसारकें
मनशांच्या शिरांनी
हेंच आमकां आयज दाखोवन दिलां
आमी दान केल्ल्या
रगताच्या ह्या भरून दवरिल्ल्या बाटल्यांनी.

ह्यो बाटल्यो पळोवन सांगत आमकां कोणय
ह्या बाटल्यांतलें खंयचें रगत मुस्लीम अब्दुल्लाचें?
खंयचें रगत हिन्दू विष्णूचें?
खंयचें रगत किरिस्तांव जॉनाचें?
खंयचें रगत शिख अवतारसिंगाचें?

म्हज्या सर्वधर्मी भावांनो आनी भयणींनो
आकांताच्या वेळार
हेंच रगत आमी दान केल्लें
येतलें धांवून आमच्या एकामेकांच्या आदाराक
आनी आमचें एकामेकांचें रगत
एकामेकांच्या रगतांत भरसून
आमकां जीवदान दितलें.

देखून म्हज्या सर्वधर्मी भावांनो आनी भयणींनो
आमी अशीं "रगत-दानां"
पर्तून पर्तून करपाची सामकी गरज आसा
आमचें एकामेकांचें रगत

एकामेकांच्या कुडींत व्हांवतें दवरूंक
आंनी तिगोवंक
आमच्या कुडींत व्हांवतल्या
रगताचो धर्म

*पर्वरी : १०-२-१९९४*

# घर

म्हजें राबित्याचें घर
हांव बंद करून
मुदासांवाक वतलों
तेन्ना वण्टीवेलें घडयाळ
टिकटिकत काळ जागयत आसतना
घरभर उजवाड - काळखाची शेवणीं
नाचत खेळत
किटकिटत रावतलीं

आनी हांव
घरापसून पयस आसलों जाल्यारय
घरांतली एकान एक वस्त
म्हजे हुनसाणीची, म्हज्या स्पर्शाची
याद धुपयतना
देवाऱ्यांतले दिवलेतली
हांवे पर्जळायल्ली
म्हजी आत्मज्योत सारतली

१९९६

# मातयेच्या देहाक

मातयेच्या देहाक म्हज्या
सकाळ सांज न्हाणयतां
तरी ताचेर धुल्ला थर
एक सारको एकवट्टा

मातयेच्या देहाक म्हज्या
लागता भुको आकांता
खाता ताची माती करून
भरपाचेंच येवजिता

मातयेच्या देहाक म्हज्या
दिश्टावो नव निर्मणे
दुवाळयांच्या सुवाळयांत
काळाचें रंगता पेणें

मातयेच्या देहाक म्हज्या
ओड फकत मातयेची
मातयेंत सहज एकरूपून
जोडटा निशाण जल्माची

१९९६

# बसका

ही चल्ल्या वर्तुळाकार बसका
वेंचून काडूंक फुडारी...
अध्यक्ष समतेचेर भाषण दिवन
भावपणाचे पोवाडे गावन सांगताः

ही बसका म्हळयार
समजिकायेचें संमेलन
समाजाक नवो विचार दिवपी संजीवन
आमचेर पातयेवन आशिल्लें
समाजाचें संतुलन

मागीर अध्यक्षान फर्मायलें
दिवंक जण एकल्याक
तांच्या फुडारपणाच्या दिश्टाव्याची वळख

हे वर्तुळाकार बसकेंतली
जण एकल्याची वळख आयकून
जाली म्हजी खातरी
आनी लागलो म्हाका सोदः

संवसारातले व्हड व्हड तत्वगिन्यानी
हांच्याच विचारांचे आसले,
लेनीन, कार्ल मार्क्स, गांधी, आंबेडकार,
टागोर, बुध्द, अरविंद झाडून सगळे
हांच्याच उतरांनी
उलयताले

हांव जाणा हांची समाजसेवा म्हळयार
हांच्या कमराक बाग आनी
हांणी घाल्ल्या फेर्राद कपड्यांक
एकय मिरी पडूंक जायना तसली

हांचो आवेश पळोवन कोणाकय प्रस्न पडचोः
दर्याक सुकती भरती जाता ती
हांचेच पोटतिडकेक लागून काय?
मातयेतलें सृजन रंगांनी प्रसवता
तें हांचेच भुलवणेक लागून काय?

कुवाड्याची जाप मेळना तेन्ना
ती सोदपी जशे
कुवाड्यांत शेणून वतात
तशें हांचें कुवाडें सुटप भौ कुस्तार

हे आपल्या तत्वांचो उद्‌घोष करीत
एकामेकांचेर जाहीरपणान ताणशेत
चलयतात समाज परिवर्तनाचीं
साबार बिरूदां आशिल्लीं
सगळीं आंदोलनां वेदी-वेदी वेल्यान

मागीर भार देंवतकच
आपापली जात-गोत वळखून
हे सगळे एक जातात
एकामेकांच्या गळयांत गळो घालून किटकिटूंक

अशें आसुनय
हेच समाजवादी
हेच साम्यवादी
हेच समतावादी

ही चल्ल्या वर्तुळाकार बसका
वेंचून काडूंक फुडारी
जातूंत आसात सगळे वांटेकार
ताकाक वचून गाडगो लिपयल्ल्यावरी
वेंचून येवंक सगळयांचो फुडारी म्हूण

... आतां अध्यक्ष एकमतान
जाहीर करपाचे आसात
नांव आमच्या फुडाऱ्याचें

१९९६

# आत्मसोद

आत्मसोदाचे थर एक एक हुपतना
म्हजे भितरल्या स्तब्ध काळखा म्हा-सागरांत
हांव शेणशेणत गेलों
आनी म्हज्या अस्तित्वाची
विद्युत कंपनां भायर सरूंक लागून
आयली म्हज्या हातांत
तरसाद लखलखीत उजवाडा दु-धारीची

ही तरसाद घेवन हांव
लागलों वावडूंक
मनाचे बुडींतल्यान वयर येवन
तेन्ना आशी कुशीचे लोक
म्हजे पसून पसय वचून
म्हजी मजा पळोवंक लागले

हांव जाणां
म्हाका आत्मनिर्भरपण दिवपी
ही तरसाद घेवन हांव
एक दीस म्हज्या संपर्कांत येतल्याक
ती वावडूंक शिकयतलों
आनी तांच्याय अस्तित्वाक लायतलों
आत्मसोदाचो उत्फर्को

१९९६

## प्रकाश दामोदर पाडगांवकार

**जल्मः** ४ डिसेंबर १९४८

**शिकपः** बी. ए. (ऑनर्स)

**उजवाडाक आयिल्ले कविता संग्रहः**

- उजवाडाचीं पावलां (१९७६)
- वास्कोयन (१९७७)
- हांव मनीस अश्वत्थामो (१९८५)
- कविताः काळ-रेल्वेच्यो, मन हारशांच्यो पावसा-पाणयाच्यो (१९९३)
- सर्ग घडपाक धर्तरेचो (१९९४)
- व्हांवती न्हंय काळाची (२००३)

कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय, आनी कला अकादमी, गोंय हांचे तांच्या कविता संग्रहांक दोन दोन पुरस्कार फाव जाल्यात. तशेंच १९८६ वर्साचो केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार तांच्या "हांव मनीस अश्वत्थामो" ह्या संग्रहाक फाव जाला.



प्रकाश पाडगांवकाराल्या 'व्हांवती न्हंय काळाची' ह्या कवितासंग्रहांतल्या मुखेल प्रवाहाची सारांशरूपान वळख करुन घेतल्याउपरांत तांगेल्या चिंतनाची दिका कळटा. 'उजवाडाचीं पावलां' विशीं नामनेचे कवी बाकीबाक बोरकार हांणी म्हणिल्लें :

''जणेक कवी म्हळयार सैमाचें एक खाशेलें संवेदन. अणभव घेवचेली आनी सांगचेली जण एकल्याची एक खाशेली तरा आसता. ती अशी जाता ह्या संवेदनाक लागून. पाडगांवकारांचे संवेदन जातडेत नाजूक, आत्मलक्षी, अनंततायेचें भान आशिल्लें आनी उजवाडाकडेन सभाविकच ओड घेवपी. प्रणय आसूं, सैम आसूं, ल्हान व्हड कसलोय अणभव आसूं ह्याच संवेदनान तो घेता आनी सांगता.''

बाकीबाबांच्या ह्या व्हड आशय आशिल्ल्या अवतरणाचेर भाष्याची गरज ना. एका महान, द्रष्ट्या कवीन केल्लें भविष्य पाडगांवकारांच्या बाबतींत खरें थारलां. तांचो कवितांचो प्रवास आता अनंततायेचो सोद घेवंक लागला. 'स्व' साकून ताणीं प्रवास सुरू केल्लो. नव्या सहस्त्रकानिमतान ब्रह्मांडाचो वेध घेवपी कविता तांणी बरयल्यात. तांगेल्या कवितांचे क्षितिज विशाळ जायत चल्लां. पारमार्थिकतायेचें सृजनात्मक आंगान चिंतन तांची कविता करूंक लागल्या. हांगाय सैम तांच्या सांगाताक आसाच. ह्या वेळार ऊर्बेभरीत उतरांनी म्हणन दिसताः शुभाऽस्ते पंथान् सन्तु!